जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४७ : आंक १० : जून २०२१


* संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

* उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) : | २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-




## मांडावळ...



भायले चित्र : कलानंद बांबोळकार

भितल्ली चित्रां : भारत जगताप, निशीत बोरकार



संपादकीय

# अंदूचो मीर्ग कोविडाच्या सांवटा खाला... सांबाळूंया!

बिरबल बादशाच्या एका काणयेंत एक दीस अकबर बादशा आपल्या वांगड्यांक एक प्रस्न विचारता- सत्ताविसांतल्यान णव काडल्यार उल्लें कितले?

ह्या प्रस्नाचें एकट्या बिरबलच जाप दिता-

''शुन्य! खाविंद!''

''तें कशें?'' बादशा बिरबलाक विचारता-

''वर्सभरांतलीं नक्षत्रां सत्तावीस. तांतली णव पावसाचीं. तीं सुकीं गेलीं तर पावसाचेर आदारुन आशिल्ल्या शेतांनीं कांयच पिकपाक नां. सावदां, जिवाणीं, झाडां-पेडा हांका अन्न मेळपाक नां. मागीर उरतलें कितें? शुन्य!''

अकबराच्या काळांतली ही जाप आसली तरीय इतल्या वर्सांनीं हातूंत कांयच फरक पडूंक नां. पावसाकडेन आमचें सगळ्यांचेंच सामकें लागींचें नातें. रखरखीत वतांन भाजून गेल्ल्या धर्तरेक पावसाचीं कुपां चिप्प भिजोवन उडयतात आनी सरभोंवतणी उमेद रसरसून येता.

'शिगम्या लागून पावस आनी चवथी उप्रांत वत' अशें म्हणटात. पूण आतां पर्यावरणाचें संतुलन दिसानदीस इबाडत चल्लां. पूण आमच्या शास्त्रज्ञानीं हाचेर उपाय म्हण पिकांच्यो तरेकवार जाती सोदून काडून आतां पडपी ह्या बेभरंवशाच्या पावसाचेर मनीसजातीक अन्न कशें कमी पडचे नां हाची जतनाय घेतल्या. पूण कितेंय जालें तरी पावसाविशीं सगळ्यांकच आपलेपण आसा.

आयज मेरेन पावसाचेर आमकां जितलें वाचूंक मेळटा ताचेवेल्यान पावस म्हणल्यार फकत वर्सावळीची एक सैमीक घडणूक न्ही. पावसाक सदांच आमी मनीस रुपांत पळयतात. मनशाच्या सबाव गुणां कडेन पावसाची तुळा केल्या. पावस चड पडटा त्या पावसाचें नांव 'म्हातऱ्यां पावस', मागीर भार आयिल्याभशेन कोसळपी पावसाक 'पुतांपावस', पावसाचो नेट उणो जातगीर 'धुवां पावस', मागीर सामको थोडो 'सुनां पावस', साप्प उणो 'पोणटुरां पावस' आनी पावसाचे सोंपतेर पावस शेणून वता तो 'शेणटुरां पावस'.

पावस हो साहित्यीकांचो सामको आवडीचो. साहित्यीकांकडल्यांन बऱ्या-बऱ्या साहित्याची निर्मणी पावसा दिसांनीच जाता. आनी प्रेमीकांचो? तांकां पावस तर खूब लागींचो! पावस रोमान्साच्या कितल्याशाच रंगरूपांक आनी मुळांक एक ओलसाण हाडटा आनी मोगाचे ते रंग साकार करता आपले साक्षीन!

आमचे नामनेचे साहित्यीक पुंडलीकबाब नायक एकेकडेन म्हण्टात,

''पावस हाडटा उमेद! अशी उमेद जी वल्लेंतय धरना आनी सुपांतय धरना. पावस हाडटा, पांचवेपण! असलें पांचवेंपण जें शेतां सारयता आंगार आनी दोंगर माळटा माथ्यार.

पावस हाडटा समृद्धताय!

उपाट भरिल्लीं तळीं, उपाट न्हंयो, भाताच्या थामाच्या पोटांत कणसाचें भांडार!

कितलें मुदयेर थीक कशें हें पावसाचें वर्णन!''

जून म्हयन्याचो 'जागा'चो हो आंक आमी पावसाक ओंपला. ह्या आंकात पावसाविशींचे तरेकवार साहित्य तुमकां वाचूंक मेळटले. त्याभायर आमचीं सदचीं सदरां आसातच.

ह्या म्हयन्याच्या २३ वेर आमी शणै गोंयबाबांची जयंती मनयतले. ह्या निमतान वर्सावळी भशेन साबार संस्था कार्यावळी दवरतल्यो. शणै गोंयबाबांच्या विचारांचें कोणाक कितलें स्मरण जातलें आमी नकळो. एका म्हापुरसाच्या सपनांक आमी कसो आकार दितले आनी शणै गोंयबाबांची बरपावळ कितले जाणांक अभ्यासची दिसतली हेंवूय सांगप कठीण. पूण एक मात- ज्या मुळावणाचेर आयज आमचें गोंय उबें आसा ताच्या बुन्यादी मुळाक शणै गोंयबाबांचे विचार आसात हें आमी केन्नाच विसरुंक फावना.

कोवीड १९ महामारीचो अनपेक्षीत फटको गोंयाकूय बसला. मे म्हयन्यात तर ह्या व्हायरसान अच्छेव कांडलो. खूब जाणांक आपलो जीव वगडावचो पडला. पोरूं सुरू जाल्लो हो घालो. आजुनूय सगळें पूर्वपदार येवपाक बरोच कळाव वतलो. सोंशीकसाणेन हाताळचें पडटलें सगळें.

ह्याच कोविडांन आमचे कोंकणींतले जेश्ठ कवी प्रकाशबाब पाडगांवकार हांका ३० एप्रिलाक मरण आयलें. प्रकाशबाबांचो 'जागा'कडेन खूब लागींचो संबंद आसलो. तांचो दुसरो कविता संग्रह 'वास्कोयन' हो 'जागा'न उजवाडाक हाडिल्लो. तांका आमची आर्गां.

आमच्या लेखकांनीं आमच्या उल्याक 'ओ' दिवन आपलें साहित्य वेळार धाडून दिले म्हण तांचे उपकार. भायर पडपी पावस आनी हातांत जागांतल्या साहित्याचो पावस! सामको 'दुधशर्करा' योग! आमचे वाचक ह्या आंकाक पावसाच्या येवकारा इतलोच येवकार दितले हाची आमकां आस्त आसा.



आर्गां



# उजवाडाचो ध्यास लागिल्लो कवी

एप्रिल म्हयन्याच्या ३० तारकेर गोंयचे नामनेचे कोंकणी कवी प्रकाश पाडगांवकार हे ह्या संवसाराक अंतरले.

प्रकाश दामोदर पाडगांवकार हांचो जल्म ४ डिसेंबर १९४८ वर्सा जालो. प्रकाशबाबांचे मुळावें शिक्षण पणजेच्या मासानु दी आमोरी आनी मुष्टीफंड विद्यालयांत जालें. पिरायेच्या १४व्या वर्सांचेर मडगांवच्या फामाद मावजो स्टुडियोच्या पणजेच्या शाखेंत ताणीं कामाक सुरवात केली. कामांक आसतनाच इंन्स्टिट्युट ऑफ इन्स्ट्रक्शनच्या रातचे शाळेंत एस.एस. सी. पुराय केली. १९६८-१९७४ मेरेन ताणीं आकाशवाणीच्या पणजे केंद्राच्या प्रशासकीय विभागांत काम केलें. थंय तांची वळख नामनेचे कवी बाकीबाबां कडेन जाली. बाकीबाबान प्रकाशबाबाची काव्य प्रतिभा वळखली. थंय आसतनाच प्रकाशबाबान धेंपे कॉलेजीच्या रातच्या वर्गांतल्यान बी.ए.ची परिक्षा पास केली. उप्रांत ते वास्को हांगा एम. एम. टी. सी. ह्या केंद्र सरकाराच्या अस्थापनांत रुजू जाले आनी थंयच्यानच ते निवृत्त जाले.

पणजेची मावजो स्टुडियोची शाखा म्हळ्यार त्या काळचें कोंकणीचें एक केंद्र. कोंकणीवाद्यांची मेळपाची ती एक सुवात. मावजो स्टुडियोंत आसतनाच प्रकाशबाबांक कोंकणीचो दिश्टावो जालो. ते कोंकणींतल्यान कविता करपाक लागले. फाटलीं चाळीशेक वर्सां ताणीं अखंडीतपणान आनी निश्ठेन काव्य साधना केली.

तांचे उजवाडाक आयिल्ले कविता संग्रह अशे आसात. उजवाडाचीं पावलां (१९७६), वास्कोयन (१९७७), हांव मनीस अश्वत्थामो (१९८५), कविताः काळ - रेल्वेच्यो, मन-हारशांच्यो, पावस-पाणयाच्यो (१९९३), सर्ग घडपाक धर्तरेचो (१९९४), व्हांवती न्हंय काळाची (२००३), ब्रम्हांड योगी चिरंतनाचो (२००७), पुनोरार्थोपनिशद (२०१४), देवाचें चान्नें- बाल कविता (२०१६) आनी दाण्यायेदी धर्तरी (२०२०). हालींच ताणीं 'सम्राट अशोक' हें महाकाव्य बरोवन सोंपयिल्लें आनी तें छापपाचे वाटेर आसलें. ह्या महाकाव्याचे कांय वांटे 'जागा'र उजवाडाक आयिल्ले.

प्रतिमा आनी प्रतिकांचो अचूक वापर, भाव-भावनांचें सुचक आनी संयमी प्रकटीकरण, जिविताच्या चिरंतन आनी शाश्वत मुल्यांक कलात्मक तरेन केळोवप हें तांच्या काव्याचें खाशेलेपण.

पाडगांवकार हे श्री. अरविंदांचे भक्त. तांच्या भितरल्या जिविताचेर (inner life) चड प्रभाव पडला तो श्री. अरविंदांचो. ते खातीर सुर्वेक सामाजीक आशय केळोवपी तांची कवीता अध्यात्मा कडेन झुकपाक लागली. तांचे उजवाडाक आयिल्ले निमणे कांय झेले हाची गवाय आसात.

तांकां साबार पुरस्कार मेळ्ळ्यात. तातूंत केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार १९८६ (हांव मनीस अश्वत्थामो), डॉ. टि.एम.ए पै फांवडेशनचो उत्कृश्ट ग्रंथ पुरस्कार(व्हांवती न्हंय काळाची), गोवा कला आकादेमी, गोवा कोंकणी आकादेमी, कोंकणी भाशा मंडळ हांचे पुरस्कार आसपावतात. तांका गोंय सरकाराचो 'राज्य सन्मान' पुरस्कार (२००७) आनी 'राज्य सांस्कृतीक' पुरस्कार (२००९-२०१०) लाबल्यात. २०१५ वर्सा कोझिकोडे-केरळ हांगा जाल्ल्या २२व्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचे ते अध्यक्ष आसले.

प्रकाश पाडगांवकार हांच्या मरणान कोंकणी काव्य मळाक गिरेस्त करपी एक प्रतिभावान कवी आमकां सोडून गेला. 'जाग' तांकां ओंपता आर्गां!



# दाण्या येदे धर्तरे वयलो अज्रंवर ब्रह्मांड मोगी

## दामोदर मावजो



'युगान युगां म्हज्या आंगार दाटिल्लो उजवाडाच्या धुल्लाचो थर विरगळून आंग सामकें ल्हव जालें. मनाच्या रित्या मळबांत लाखांनी नखेत्रां पेटलीं - शीम मेर नाशिल्लीं कितलींशींच मळबां उकतीं जालीं... आतां हांव ह्याच काळखांत जियेतलों.'

कवितेंत अभिव्यक्त जाल्लीं हीं उतरां खरीं करपाक जावंये, कवी प्रकाश पाडगांवकर ३० एप्रीलाचे सकाळीं त्या शीम मेर नाशिल्ल्या कितल्याशाच मळबांभितर विलीन जालो. प्रकाशाल्या ह्या अचकीत केल्ल्या एक्झिटान साहित्यीक मळाचेर किण्ण पातळ्ळें. कवी म्हूण प्रकाश आजून सोंपूंक नासलो. कितले सहजतायेन तूं नियतीक शरण गेलो, प्रकाश! तुगेल्याच उतरांनीं सांगचें जाल्यार - 'कितलींय फित्रिसां केलीं तरी शेक चलयता अदिश्ट नियतीच'.

प्रकाशाची म्हजी पयली वळख जाल्यार ५५ वर्सां उलगलीं. १९६६ वर्सा हांव मुंबय ग्रॅज्युएशन करून निकतोच घरा आयिल्लों. घरांत उप्राशिल्ले कांय खाजगी प्रस्न थाऱ्यार पडसर वर्सभर पणजे रावचें पडिल्लें. पणजेंतलें म्हगेलें एकमेव ठिकाण म्हळ्यार मावजो फोटो स्टुडिओ. थंयच प्रकाशाकडेन पयली वळख. भोव सादो, सरळ, शांत निरागस सभावाचो धव्याच कपड्यांतलो सतरा-अठरा पिरायेचो प्रकाश म्हाका धपक्याक आवडलो. नारायणबाबूय ताका घरचोच कसो लेखपी. नारायणबाबा कडल्यान प्रकाशाचे शिकपाचे जिद्दीची खबर कळ्ळी. प्रतिकूल परिस्थितेंत तो जिद्दीन एक्स्टर्नली शिकतालो. तेन्ना तो आठवेक बी आसूंये. अदीं मदीं शिक्षणांतल्यो अडचणी विचारपाक म्हगेल्या रुमार येवंक लागलो. म्हगेली कथा वा लेख खंयूय छापून आयल्यार म्हजे इतलीच ताकाय खोशी जातनां हांवें पळयली. मागीर मागीर ताणें धीर करून आपणें बरयिल्लें लिखाण म्हाका दाखोवचें. सुरवातेक चडशे निबंद आसताले. तागेले पयले कवितेचो वाचक घडये हांव आसूंये. पयलो वाचक न्हय आं, तो मान नारायणबाबाचो. प्रकाश सुरवातीक उलोवपाक खांकुडतालो. पूण उपरांत ताची भीड चेपली.

नारायणबाबालो हो स्टुडिओ म्हळ्यार कोंकणीमोगी लोकांचो अड्डो कसो.थंय लक्ष्मणराव, बाकीबाब, मनोहरबाब, र. वि. पंडीत, शंकर भांडारी, जगदीश वाघ, शांताराम वालावलीकार, कोंकणी मोरायश, ऑक्तावबाब, सगले येवन वचून आसताले. मडगांवकार लेगीत पणजे पावल्यार भेट दितालेच. उदयबाबाले चान्याचे रातीची एसाय उल्हास बुयांवान हांगाच मारिल्ली. ह्या अशा वातावरणांत म्हजे इतलोच, इल्लो चडच, भरसून वतालो तो प्रकाश.

पणजेचें कोंकणी भाशा मंडळ तेन्ना मोरायशबाब आनी ऑक्तावबाब चलयताले. दर सप्तकांत लेखक मेळटाले. कविताावाचन जाताले. फा. आंतोन पेरैर, फा. मोरेन सौझ, मनोहरबाब, नागेशबाब, भिकाजी घाणेकार, आर्मांद पेरैरा, शांताराम वालावलीकार अशे कवीमनाचे कोंकणीमोगी जमताले. थंय प्रकाशूय उमेदवारी करतालो. पयलीं आयकुपी म्हूण. मागीर ल्हवूच आपणे रचिल्ली एखाद्री कविता वाचून. मागीर ओपिनियन पोल आयलो. नारायणबाब, शांतारामबाब, शंकरबाब आनी तांचे बराबर हांवूय आंगार भार आयिल्लेवरी चळवळींत देंवले. प्रकाशाचो सभाव चळवळी न्हय. पूण प्रकाशूय आपणाभशेन वांटो घेवंक लागलो. वेलंगा, पिलार, पणजेंत अदींमदीं साहित्यीक कार्यावळी आनी शिबिरां जातालीं. तातूंत पयलीं खांकडत पूण मागीर आपखोशेन प्रकाश येतालो. कोंकणी चळवळीचें निधर्मी आनी एकचाराचें स्वरूप ताका भोव भाविल्लें. वेलंगाच्या शिबिरांत पाद्री आसरमांडी घालून धा जाणां मदीं पंगतीक बसतात आनी भट तांकां आगरो करून वाडटात - हें चित्र वा पिलारच्या कार्यशाळांनी जमिल्ल्या कोंकणी मोगींक थंयचे पाद्री आनी सेमिनारिश्त कशे आपलेपणान जेवयतात तें पळोवन प्रकाश चळवळीकडेन आकर्शीत जालो. आनी मागीर थंयच रमलो.

प्रकाश म्हळ्यार परिस्थितींतल्यान तयार जाल्लें रसायन. ताच्यांत एक घुसमटपी कलाकार आसलो, विद्येचो ध्यास घेतिल्लो विद्यार्थी आसलो, घरसंवसाराक अर्थीक आदार करपाक धडपडपी भुरगो आसलो, समाजांतलो वेगळेचार, भेदाभेद आनी दुश्प्रवृत्ती पळोवन अस्वस्थ जावपी मनीस आसलो, सत्य, शीव आनी सुंदर हांचो आनंद भोगूंक सोदपी रसीक आसलो, सरभोंवतणच्या विचारवंतांचे विचार, साहित्यकारांची सर्जनशिलता, कलाकारांतले चैतन्य आपल्या आंगांत रिगोवंक सोदपी आशाधशी आसलो. हे ताचे आसक्त प्रवृत्तीन ताका घडयलो. घरचे दुर्बळ आवतिकायेंतूय प्रकाश केन्ना गळसणून गेलो ना. हेय दीस वतले हाची खातरी आशिल्लेवरी तो सकारात्मक नदर घेवन फुडें वचत रावलो. 'उजवाडाचें पावल म्हजें काळखा सोपण चडटलें/ येवं तुफान, जावं मोड सहजकायेन परततलें' ह्या उजवाडीत निर्धारान.

कवितेचो ध्यास घेतिल्ल्या ह्या कवीन आयजवेर उजवाडाचीं पावलां, वास्कोयन, हांव मनीस अश्वत्थामो, कविता: काळ रेल्वेच्यो,मना हारशाच्यो,पावसा पाणयाच्यो; सर्ग घडपाक धर्तरेचो; व्हांवती न्हंय काळाची; ब्रह्मांडयोगी चिरंतनाचो; प्रार्थनोपनिषद; दाण्या येदी धर्तरी; चिरंतन ब्रह्माडयोगी अशे धा झेले बरोवन जाल्ले. सगले व्हडले पुरस्कारूय जोडून जाल्ले. पूण ताका कविता येवपांत खंड पडलो ना. हालींच ताणें सम्राट अशोकान भारताक दिल्ल्या योगदानाचेर कवितेचें पुस्तक बरयिल्लें. आजून तें प्रकाशीत जावंक ना. मदीं काळजाचे पिडेन ताचे साधनेंत खंड पडिल्लो. पूण आपूण बरो जातलों आनी हो वावर फुडें व्हरतलों ही आस ताणें सोडूंक नासली. हे ताचे आशावादी धारणेनच ताका चैतन्याचो आनी चिरंतनाचो सोद घेवपाक उद्युक्त केल्लो.

*'म्हजो एक आसा चंद्र*  
*तो म्हज्यो राती चान्यांत विरगळयता*  
*आनी तो आसना तेन्ना काळख्यो राती*  
*नखेत्रांचीं माणकां मोतयां*  
*म्हजे वाटेर शिंपडायतात.'*

ही प्रकाशाली सकारात्मक वृत्तीच ताका सदांकाळ आनंदी, प्रसन्न दवरताली. प्रकाश सदांच प्रसन्नमूख दिसतालो हें खरें आसलें तरी

भितऱ्यां तो अस्वस्थच आसतालो. सुवार्थाखातीर खूशमस्करी करपी आनी दुसऱ्यांचें शोशण करून स्वताचे जिणेंत खुशालकाय हाडपी समाजांत बेंदळ्ळ कशे वावुरपी लोक ताका तिडक हाडटाले. मागीर तो उपरोधक कवितेंतल्यान व्यक्त जातालो -

*'तांची रुपडीं पिंदीत खरसाणीन*
*कायद्याचे राखणदार हांगा*
*साताजल्माचे दुस्मान कशे*
*सोरपावरी केन्ना दंश करीत, हाचो नेम ना*
*देखून हांव म्हजी कात सांबाळून जियेतां'*

अशें हो कवी म्हणटा (हय, मनीस म्हूण प्रकाश आमचे मदल्यान गेलो तरी कवी हो चिरंजिवी आसता. देखून ताचो उल्लेख वर्तमान काळांतच जातलो) तेन्ना ताच्या काळजांतलो उतळताप वाचकाकूय अंतर्मूख करता. सरभोंवतणचो अन्याय, दांभिकपणां, शोशण, अनाचार, अत्याचार हांचेकडेन कवी तटस्थपणान पळयता. तो टिकाकाराची, समिक्षकाची वा आस्वादकाचीय शाल पांगुरना. दक्ष आनी तटस्थ रावन कलात्मक पावंड्यार आपली अनुक्रिया दिता.

कविता हो कवीचो आत्मसोद आसता. आपल्या कवितेनूच प्रकाशूय आपणाक सोदतना दिसता. हो ताचो चिरंतन सोदच ताका कवी करता. प्रकाशा कडेन उतरांचें भांडार आसा. पूण तो उतरांचो खेळ मांडिना. प्रखर विद्रोह लेगीत तो सौम्य उतरांनी मांडटा. खंयच आक्रोश ना, आक्रमकताय ना, दिखावो ना. सगलो हिशोब सरळ, आकलनीय. कवितेच्या अंतरात्म्याक साद घालपाक अळंकारीत शब्दजंवजाळ भाशेची गरज ना हेंच ताच्या कवितेतल्यान जाणवता.

हो कवी अश्वत्थामो. मिथक-काळाचो वेध घेवपी, वर्तमानांत अर्थ सोदपी आनी भविश्याचीं सपनां पळोवपी. अश्वत्थामावरीच कपलार जखम घेवन दीसरात भोंवपी - कालातीत. पूण अश्वत्थामावरी हो आततायी न्हय, क्रूर न्हय. तो विवेकबुद्द शाबूत दवरून सरभोंवतणाचो नियाळ घेवपी चिंतनशील कवी. गोंयांत, देशांत आनी संवसारातूय जें घडटा तें धडेर अळंग बसून न्हय तर प्रवाहांत देंवन समजून घेवपी हो कवी. तो म्हणटा - 'आयज संवसारभर मनीस मनशाचेर उठला. द्वेश-मत्सर, उंच-उणाक, जात-धर्म, काळे-गोरे अशा साबार प्रस्नांनीं घुसपून मनशान मनीसकुळयेची अधोगती चलयल्या. धर्मपीठाचो, देवाधर्माचो बाजार चलयला..... ह्याच मनशान जाणें भौतीक प्रगती करून ब्रह्मांडाचीं दारा-जनेलां उकतीं केल्यांत आनी आपल्या कर्तूत्वी मनाची प्रगल्भताय दाखयल्या, तोच संहारक शस्त्रां-अस्त्रां निर्मून तीं आपल्या सारक्याच हाडा-मासाच्या मनशांचो नाश करपाक वावुरता ही केदी लजेची आनी रानवटीपणाची गजाल!' हें इतलें सांगुनूय प्रकाशांतलो आशादिणो कवी भगवद्गितेचो दाखलो दिवन 'धर्म संस्थापनार्थाय संभवामि युगे युगे' याद करून म्हणटा - 'भगवंताच्या ह्या आश्वासनांचेर भावार्थ आशिल्ल्यांचो विस्वास लटको आनी अर्थ नाशिल्लो कसो जावं येता?'

सुरवातेच्या म्हळ्यार १९९० मेरेनच्या कवितांनीं दिश्टी पडटा तो प्रकाश समाजवेवस्थेचेर तटस्थतायेन भाष्य करपी. पूण उपरांतच्या कवितांनीं प्रकाशाली बाग अध्यात्मावटेन गेल्ली दिश्टी पडटा. सध्याचे आवतिकायेमुखार दिमी मारप ना, अगतिकतेंतल्यान निर्शेणी येवंक दिवप ना. पूण आतां अध्यात्मा कडल्यान प्रेरणा घेवपाबगर पर्याय ना अशी ह्या कवीची धारणा जाल्ली दिसता.

प्रकाशाली चडशी कविता वाचतकच अनेक जाणांक दिसता ह्या कवीक शिरंगार मानवना. पूण तें बिलकूल खरें न्हय.

*'साबार तुजीं रुपां बायले, ताची अगम्य अप्रुपां*
*एकेक रुपा अर्थ सोदतना, सोंपून वतात तपां*
*जाशी केन्ना आवय, भयण, केन्ना भुरगें मायेस्त*
*रती सुखांत तूंच न्हांवयता, सर्ग अमृत-कुपां'*

*वा*

*'नदरेंत तुजी नदर म्हजी भरसून उरची*
*खीण खीण युगां जावन, कल्पांतां उलगचीं'*

प्रेम, प्रणय, शिरंगार ह्या कवीक वर्ज्य नात. पूण तो स्वता खंयच उचांबळ जायना वा केन्ना वाचकाकूय उचांबळ करना. अशें आसलें तरी उत्कटताय जाणवले बगर रावना.

*'केंसातुलो जायां घमघम मन घुस्पायता*
*हुबून गेल्लीं साबार वर्सां दोळ्यांर जागयता'*

ह्या उतरांत शिरंगार आसा. पूण तोय प्रकाशासारकोच - संयमी. प्रकाशाली कविता धीर-गंभीर, शांत, संयमी. प्रकाशूय तसोच. सादरीकरण ही एक कला. प्रकाशा कडेन ती केन्नाच नासली. तागेली कविता वाचकान वाचची. पूण कविता सादर करपाचें आंग प्रकाशाकडेन केन्नाच नासलें. ताका लागून खूब वेळा तागेलें वाचन निरस जातालें. आमी आयोजीत करताले त्या गोंय कला- साहित्य महोत्सवांत एका वर्सा राजभवनांत कवी संमेलन जालें. हांवें मुजरत प्रकाशाक आफयिल्लो. तागेले वाचन जातकच मुंबयच्या एका कवीन म्हळें, 'इतलें 'फ्लॅट' वाचन हांवें केन्नाच आयकूंक ना. अशा कवींल्यो कविता आनीक कोणेय सादर करूंक जाय.' तागेली सुचोवणी म्हाका मानवली. अनेक कवी-लेखक आसात जांचे कडेन सादरीकरणाची कला नासता. तेन्ना तें तिसऱ्याकडल्यान करून घेवंक जाय. इतलेंच न्हय - कविता सादर करपी 'वाचक' आमी तयार करूंक जाय. प्रकाशा कडल्यान ह्या प्रयोगाक सुरवात करची अशें मनांत आसलें. पूण जुळून आयलें ना आनी योगूय आयलो ना.

प्रकाश इतले अचकीत आमच्यांतल्यान गेलो. खूब जाणांक चिटमिटे पडले. निमाणचो असो तो आमकां मेळ्ळोच ना. खूब कितें सांगपाचेंय उरलें, आयकुपाचेंय उरलें. आपूण एक दीस हो संवसार सोडून वतलो हाची सुलूस आदींच लागिल्लेवरी ताणें म्हणिल्लें ...

*'म्हजें राबित्याचें घर हांव बंद करून मुदासांवाक वतलों*
*तेन्ना वण्टीवेलें घडयाळ टिकटिकत काळ जागयत आसतना*
*घरभर उजवाड-काळखाचीं शेवणीं नाचत खेळत किटकिटत रावतलीं*
*आनी हांव-*
*घरापसून पैस आसलों जाल्यारय घरांतली एकान एक वस्त*
*म्हजे हुनसाणीची, म्हज्या स्पर्शाची याद धुपयतना देवाऱ्यांतले दिवलेंतली*
*हांवें परजळयिल्ली म्हजी आत्मज्योत सारतली.'*

प्रकाशान आपणांक जाय तशेंच केलें. आमकां मात फटयलें. पूण ताचेच कवितेंत म्हटलां ते भाशेन 'फाल्यां हांव आसलों कितें आनी नासलों कितें... हांव अज्रंवर उरतलों जावन तत्व ब्रह्मांडांतलें'. हय, प्रकाश, तूं अज्रंवर जाला.

संपर्कः 9422059509





# जलतरंग

**मुकेश थळी**

मळब भरून येता. काळ्या कुपांनी. पावस मांडिल्लो आसता. मळबांतल्यान रणगाडो गेल्ल्याचो भास जाता. मळब फुटून वचना मूं त्या गडगडाटाच्या आवाजान, असो भास जाता. आनी खऱ्यांनीच, मळबाक भेगो पडटात. तट तट तटांयच.... काळजांत कच्च जावचें इतलो विजेचो आवाज आनी तो मळबांतलो झाडाच्या सांगाड्या वरी फांट्यांचो ड़िझायन. केदी दीप्ती ताची. दोळे दिपकावतले अशी.

कोंकणींत उतरांनीच संगीत भरलां. देखीक - घबांयच.

'भांगराची कुराड' ह्या दीर्घ बाल कवितेंत मनोहरराय सरदेसाय हांणी रचलां.

*घबांयच करून मारली उडी*
*आयलो पेंवन आलतडी...*

हें घबांयच खुबूच संगीतमय, नादमय आऩी लयदार आसा. ताचो उच्चारूय ठांशीव जावंक जाय. पेजाद. तटांयच हें सादारणशें तेच कालेतीचें.

पावस म्हळ्यार विश्व माचये वयलें एक म्हान नाटक. चारूय वटांच्यान दिसपी आनी वयर मळबाच्या माटवा पड्डयार लेगीत घडपी. पाक्क, पाक्क करून मळबांतल्यान धतरिचेर देंवपी महाकाय हॅलोजन बल्बां वरवीं जोगूल फ्लॅश. पार्श्वसंगीत विविधांगी. उदकाचे नाद. पांवळ्यांचे, दडकांचे नाद. टूम्म ढूम्म करून मळबांत जावपी गडगडटाचो फोग. शेंवण्यांचे आवाज. तुरुतुरू वागरें पडिल्ल्या भशेन धांवपी व्हाळांतल्या तांबड्या गुज उदकाच्या लोटाचो आवाज. बेब्यांचे आवाज. थेंब्यांचे आवाज. ठाप्प ठाप्प करून निस्तुपी ओथांब्यांचे आवाज. च्यॅ. पावस म्हळ्यार नाटक म्हणप समा न्हय. पावस म्हळ्यार संवाद विरयत सैम संगितिका. सुंदर!

पावसाक कितले थर, आयाम, आवेग आसतात हाची कल्पनाच करूं नजो. गंध म्हळ्यार वास हो एक असोच पावशी विशय. मृदगंध. पयलो पावस पडना फुडें मातयेक जो वास सुट्टा. आ हा हा हा! आंगा आंगांतल्या अणुरेणूंत तृप्तीची एक शिरशिरी हाडून वता. नाकाक जाय जाय सो दिसपी हो मातयेचो सुंदर वास. वतांत वळपेवन, भाजून, विश्वासान पावसाची वाट पळोवपी ती माती आनी पावसाच्या त्या मीलन उत्सवांतल्यान उसळिल्लो तो मृदगंध. वा.

पावसा कडली इश्टागत दाट करपाक आवडटा. खूब. पावस आवडटा दर्यादेगेर रावन पळोवपाक. दर्यांत पडपी पावस. उचांबळीत उदक आनी मळबांतलो सैमखेळ. म्हाका पावस आवडटा दोंगरार वचून पळोवपाक. गरजे भायर लजपी आनी खातकुतल्यो जाल्ले वरी प्रसन्न जाल्लीं झाडां. म्हाका सगळ्यांत चड पावस आवडटा कुळागरांतलो. थंयसल्ले मातयेचो वास. केळम्याच्या खोल्यांतल्यान आचमन केल्ले वरी पडपी पावसा उदक. कितल्योश्योच किडी, मुयो, जीव हांचो रव म्हळ्यार ऑर्केस्ट्रा. तरतरेच्या रंगांचे जीव. मदींच कूच्च करून एक कीड वा जीव तुज्या हाताक चाबून वतकच थोडीभोव जावपी वेदना. जाची संवेदना जितली तीव्र तितलो ताचो पावसाचो अणभव तीव्र. जाचें निसर्गप्रेम जितलें उत्कट, तितलो ताचो पावसाचो आनंद आकांत.

वेपार कोल्ली आं. केन्ना कडत आनी धुंवत सांगूं नजो. एकाद्र्या आडांग्या, खुबूच मस्त्या भुरग्याक बापायन येतीश्ट बडोवचो, तसो पावस केन्नाकेन्नाय सगळ्या आख्ख्या चराचराक बडोवन काडटा. सोलपून, झोडपून काडटा. कितलो पेटप ताका अंत आसना. हो रूद्रावतार थंड जायना बेगीन. वादळ... हुंवार... पडझड. तूं कांयच करूंक शकना. कारण सैम तुज्या मुठींत आनी नियंत्रणांत आसना.

पावस झडटा, पडटा. कोसळटा. वेगवेगळ्या कोनांतल्यान ते पावस-धाग्याचे कुडके segments देंवत आसतात. रकत आसतात. निस्तत

आसतात. तिरपो पूण वेगवेगळ्या कोनांतल्यान धर्तरेची पापी घेवपी. केन्नाय सरळ ९० अंशांतल्यान लेगीत. पावसांत म्हजे प्रज्ञेक आव्हान दिवपी हीं गणितीय प्रमेयां, कुवाडीं आकृतायो दिसतात. आकार कितलेशेच. भोंवतणी कितल्योश्योच हालचाली उसळत आसतात. वर्तुळाकार, Elliptical, parabolic अश्यो कितल्याश्योच रचनाकृती म्हाका ह्या पावसा तुशारांनी आनी घसघशांत आनी वावझडींत दिसतात. वा, वा, वावझड. भितोडेक रावलो लिपून तरी तो उदका करंट भिजोवन सोडटा. स्तब्ध जावन पावसा-रुपांक तोखेत रावचें कशें दिसता. कुपांतल्यान सकयल येवपी जोगूल, विजे केण आनी उदकाच्या प्रवाहाची गती म्हाका hydrodynamics शास्त्रांतल्या किचकट कुवाड्यांची याद करून दिता. मळबांतल्यान हवे वरवीं उसळत येवपी वाऱ्याचीं, पावसा उदकाचीं कंपनां आनी स्पंदनां vibrations म्हाका भौतिकशास्त्रांतल्या गणितांची याद करून दिता. असो हो पावस.

पावस जे अणभवरूपी रंग आनी तरंग भावविश्वांत, मनाच्या गर्भकुडींत आनी सर्वांगांत खेळयता ते वरवीं प्रतिभा उल्हासीत जाता. प्रतिभेक एक नवो आंकूर फुट्टा. गेय. स्वरांकुराचीं आवर्तनां. दोळे धांपून अंतर्मुख जावन कोण्णा कडेन उलय नासतनां पावसाच्या ह्या मंचनाक आनी आविश्काराक आयकत रावचें अशें दिसता.

पावसा कडेन वसता एक निजाची कलात्मक सोबा. तुका भारीत charge करून सोडपाचें एक बळगें. तुका आनी म्हाकाच न्हय तर सबंद वनस्पत आनी जिवावळीक एक नवी उर्मी, उर्जी, उर्बा दिवपी हो पावस.



शास्त्रीय संगिताच्या गायन आनी वादनांत आलाप, मध्य लय आनी द्रुत लय अशे तीन टप्पे आसतात. आलाप संथ शांत आसता. सवकास लय. मध्य म्हळ्यार मदेगात मदली लय. द्रूत आनी अती द्रूत म्हळ्यार धांवती वेगवान लय. पावस म्हळ्यार एक ख्याल कसो. पूण कॉमीक अशी - सुरवातीक द्रूत लय घेता. नाक मारून घेवचें तसो भुंयेर आपट्टा आनी द्रूत लयेंतल्या तराण्याक आनी त्या माराणा सारक्या फडफडपी तबल्याक तादात्म्य पावचो तसो आसमंताक बडयता. थोड्या वेळान तो मध्य लयेंत वता आनी उपरांत आलाप. पावस पडचना. पूण आर्दी वेंगायल्ले ओथांबे झाडां वेली आलापी लयेंत निस्तयत रावतात. पावसाच्या गायन वादनाचो ख्याल हो असो रिवर्स गियरांचो.

भर पावसांत उदक, वारें, वीज, आवाज वाद्यवृंदाच्या नर्तन-सृजन-वादन-संगिताची शब्दविरयत काव्याची ती अप्रूप कोरियोग्राफी अणभवतना जीव तटास जाता. कोण काय हो संगितकार आनी रचनाकार असो प्रस्न पडटा आनी मळबा वटेन बाग घेवन हात जोडप जाता. विधात्या, कितलो हुशार, गोड, प्रतिभावंत रे तूं.... अपुरबायेचोच.

मातयेचो धरून हेर सगले गंध, तो मळबाचो आनी विश्वाचो

*(पान १७ चेर)*


# MANGO
## KING OF FRUITS

### *A Treasure Trove Of*
## GOAN
### MANGO DISHES
by NILIMA KAMAT

Goans have refined the culinary art through a unique blend of the culinary wisdom of the East and West. The dishes included in this treasure trove will reflect the romance of Goans with the mango in the kitchen. With art learnt through family traditions, Nilima has taken care to simplify the mango preparations making them user friendly and easy to master. You'll love to learn more about the magic of mangoes appealing to your taste buds once you try the recipes in this book.




Price : Rs.165/-
Publication No.: 232
ISBN : 978-81-85854-99-8
Pages : 117
Size : 14.2cm X 22cm




**RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD**
1-Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg,
Panaji 403 001 Ph: 2220320 / 2232177
E-mail: rajhaunsgoa@gmail.com | www.rajhauns.com

# यादींतलो पावस

**विनायक विष्णू खेडेकर**

घरांतली एक जाण्टेली, सदांच गायताली. 'सृष्ट परतल्या'. भुरग्यांल्या मराठी पुस्तकांतली एक कविता ती आयकयताली. 'नेमेंचि येतो मग पावसाळा हें सृष्टिचे कौतुक जाण बाळा'. कर्माचे कवतिक. केन्नाचे केन्नाय, कशाय कसो पावस पडूं लागलो. पावसच कित्याक आयज पयलींचें कुडकुड्याचें शीं खंय, कितलें पडटा? गर्मी मात दिसान दीस वाडत चल्ल्या. खऱ्यांनीच. सृष्ट परतल्या.

विसरूंक पाविल्लो तेन्नाचो पावस; सादारण पन्नास वर्सां आदलो. फुडें केन्ना पळोंवक मेळचो ना, तसलो. तो पावस आयज जायना. हय पावस जातालो, पडटालो. केन्ना झडटालो. मदीं मदीं शिडशिडतालो, शिंवरतालो, कांय वेळा दीसरात पिरपीरतालो, पडप उणे, आख्ख्या पावसाळ्यांत एक-दोनदां तरी, मात सुशेग घेनासतना, तीन, तीन दीस मुसळा धारेची दडकेर दडक, उणो जालोसो दिसता म्हणसर पयलींपरस व्हड, परत व्हडली दडक; असो घोग्यांनी वोततालो. केन्ना एक दडक पडून वतगीर रोखडेच रखरखीत वोत पडटालें.

विसरूंक जायना अश्यो यादी पावसांतल्या त्या दिसांच्यो. गडगड आनी झगलावणी, ल्हानपणांत तर भंयान गुळी जाताली. दीसरात घरासकल्या व्हाळाचें घों घों गरजप. पावसाचो घो घो कडकड. रातीमायत्यार आसोर आसलो की मागीर सांगपाक नाका. मातये वण्टींच्या घरांत, खांची-कोनशांक लिपून बशिल्ल्यो बेबक्यो आनी व्हाळावैले बेबे हांची कर्कश्श जुगलबंदी. रौद्र संगीत म्हणल्यार कितें तें थंय आयकूंचें.

पावसा दिसांनी भायर सरप म्हणल्यार सारो-पुरो भिजलेलो. शेतां-भाटांनी काम करपी दादल्यांकडे फटें, माथ्यार खोळ घाल्लें. लावणी-नडणी करतना विल्लें. 'नडणी कशीय जांव कंडो बरो हालूंक जाय' हेंच तें. आदिवाशी, कुळमी हाका घुरम म्हणटात. सांते वतना येतना वज्यांतलें सामान भिजचें न्हंय म्हणून ताचेर धांपूंक सांतली. सवळ्याक चलता तशी आशिल्ल्यान पुरयताकडेनय सांतलीच. मात सत्रे परमाण हातांत धरूं येंवची म्हणून भितुरल्यान, तोंकार पेंचिल्लो कोंड्या दांडो बसयिल्ली.



नवी सत्री फकत दुडवाकार, भाटकारांकडे कोंड्या दांड्यांची, हिची मॉदय वेगळे बशेची. गिरेस्तांकडे लोखणा दांडो, तांतूतय भितल्ल्यान अष्ट कमळाभशेन सरयो आशिल्लेक चड तोखेवप. मदल्या वर्गाकडे चड करून कपयो मारिल्ली पोत्री हरणछाप. लुगट धरून दांडो, सरयो; मदीं एकेक वस्त दुसरी घातिल्ली. तरीकय सांगूं मेळटालें 'म्हज्या आज्यान घेतिल्ली सत्री ही. इतलीं वर्सां, कितलेशेच पावसाळे आंगार घेवनय आजून तशी आसा.'

म्हजे आदले यादींत गोंयकारांक पावसान केन्नाच फटोंवक ना. येकाच वर्साची याद जाता. मीर्ग येवन गेलो तरी पावसाची नाव निशाणी नाशिल्ली, देखून सावय वेरेंच्या लोकांनी एकठांय येवन गांवचो देव अनंताक पुजा, आरती, निवेद्ध कांय करीनासतना चोवीस तास उदकांन न्हांणयत दवल्लो. भितर अभिशेक पात्र लावन तांतूत मूर्तीफाटले बांयचें उदक काडून – काडून रकयताले. हाका नांव 'संततधार'. सरवळेंत गांवांतले भट लोक मातय थांबनासतना पवमान, स्तोत्रां बी म्हण्टाले. हेर लोक भायर सोंडयार दिवली माणून भजन करताले. दीस रात लोकांनी देवाक असो न्हिदनासतना दवरलो. घट याद आसा. दुसरे दिसा दनपारां देवळांत आरती जांवक लागल्यो आनी भायर पावसान उडकी घेतली.

ते जातींतलो आशिल्ल्यान जायत, पुण यादींतलो पावस याद करचे वगतार लोकसाहित्यांत खंय, कितलोसो पावस शिंवरला हाची याद करपा लागलों. चड करून धवळां, धालो, धिल्लो, काणयो हेबशेच्या. मजा म्हळ्यार उदकाक जीण मानपी लोक, चड करून शेतां-भाटां, पोरसां-मळे फुलोवपी लोकांमदीं पावसाचीं गीतां वो काणयो खूबच उण्यो आसात.

धालोंत 'पाऊस झिरिमिरी, पाऊस झिरिमिरी, पावसान केलीं दमळां।। आनी पावस पडे पावस पडे वोथांबे थेंबे।।' ह्या भशेचीं दोनतीनच गीतां मेळटात, तींय सगळ्या गोंयात ना.

धनगरांल्या लग्न गीतांत, 'आभाळ घडगडी मिरगुयां दारा गे सोडी हो। एका या मिरगा।। हेर धवळांनीं - पावस पडला मोतीयांचा।।' असलें किरकोळ कितेंतरी मेळटा.

आदिवाशी कुळम्याले बळी कथेत, साडेतीनशें देव पातळखंडात वतना वाटेवयल्या शिळगंगा न्हंयक व्हडलो हुंवार आयिल्ल्याचो उल्लेख आसा. पुण पावसाचें कांयच ना. धिल्लोत एकाद्रें दुसरें गित मेळटा.

जिणेंत पावसाची खूब गरज आसता. शेतकामती तर पावसाबगर जगचेच नात. गोंयात उटंगाराचो पावस पडटा. शंबर इंचांपरस चड पावस पडटा तसले वाठार भारतांत चड नात. आणि तरी लेगीत गोंयचो लोकवेद, हांगाचे लोकवाङ्मयात पावसा संदर्भान गितां, कथा, ओपारी, वाक्कणयो हांचो शिंवर मेळूंक जाय आशिल्लो. लागीं लागीं पन्नास वर्सां गोंयच्या खेड्यावाड्यांनी भोवन एकठांय केल्लो पोटलो चाळून घेतलो. हांव उणो पडटां जायत म्हण सदांचो असलो वावर करपी, बाय पौर्णिमा केरकार, बाब कमलाकर म्हाळशी अशा वेगळ्या वेगळ्या विशयाचेर काम करप्यांकडे उलयलों. व्हडलें कांय मेळना, हाचीं कारणा समजप चडशें कुस्तार जांवचेना.

पावसा संदर्भांत लोकसाहित्य अशें उणे कित्याक हाचो सोद घेंवचो येत्न केलो. लोकां मळावयले बरेच गांवचे जाण्टे, बुदवंत, मानेली अशां कडेन भासाभास केली. जणयेकाली

*(पान ११ चेर)*



# पावस आनी संगीत

**उल्हास पै रायकार**

गीमाचो घाम धर्तरेंत रिगता आसतनाच पावसाची झांझ वाजता आनी वसुंधरेचें मन मायेन चंवरता. आतां कवी कुलगुरु कालीदासाचे 'दूत' दुत्त करुन हाजीर जातले अशें दिसलें. इतल्यान बाकीबाबान उजव्या हातान शाल दाव्यान खांदार उडयत म्हळें,

*गडद निळे गडद निळे जलद भरुनि आले*
*शीतलतनु चपलचरण अनिलगण निघाले.*

पावसाचो पदन्यास हो असो. घुंगरांचो अंतर्नाद लयेन शिंवरायत येता. वांगडा 'नवथर रसरंग गहन'. थंडसाणीक वथ्रेल्ली धर्तरी मागीर शांत जाता ती मेघ रागाच्या धुनेन.

बाकीबाक म्हण्टा,

*टप टप टप पडति थेंब*
*मनिवनिंये विझति डोंब*
*वत्सल ये वास, भूमि आशीर्वच बोले.*

पावस हो भुरग्याभशेन दुडदुडत येता आनी आवयच्या आंगार मायेन घालून घेता. तिचें वात्सल्य परमळटा. ती आशिर्वाद दिता. ही दुडदुड त्रिताळाची आनी स्वर मेघ रागाचे. मात्शे ल्हवसाणीचे. गीमांतल्या सारंगाची सुलूस दिवपी. रवीन्द्रनाथांची 'बृष्टि पोडे टापूर टुपूर' हीं उतरांय त्या दुडदुड्या भुरग्या पावसाची लय सादता.

ग्रीष्म ऋतूक सारंग रागाची सया आसा. ज्येष्ठ पुनव जातकच वतान झेमपी सृष्टिक वर्षा ऋतूंतल्या वृष्टिची आतुरताय आसता. सैमाच्या रंध्रांरध्रांत ही आतुरताय उसळटा. मर्दींच पावसूलेच्यो एक दोन झडी येवत वतात. पावसाची मैफल सूरू जाता. पावस तंबोरो जुळयता.

धर्तरीन मैफलीची सगळी तयारी केल्या. झडींच्यो आलापी सुरु जातात. मागीर वाऱ्याच्या झणझणीत लयेंत रेबडावन घेवन कुपां मळबाच्या डग्यार 'धींऽऽऽ' असो आवाज काडीत बंदिशीची सम सादता. पावस झडटा... कोसळटा. जळवृष्टि म्हळ्यार स्वरवृष्टीच ती! पावसाचें एक बरें. तो ध्रुपद गायकावरी नोम तोम करीत बसना. ताचो ख्यालूय मध्य लयेंत. रोखडीच द्रूत गत. भौ. मुकेश थळयाच्या वर्णनाप्रमाण तो आपलो ताल, लय, ठेको हांच्या म्हालवजाचेर गतींची गियरां जाय तशीं बदलत रावता.



पावसाच्यो तानो न्हंयच्या व्हांवत्या उदकांनी मेळटा, व्हाळांच्या चलपांत मुरक्यो. ताची लयकारी दर्याच्या ल्हारांनी. जोगलाची लय सादीत तो सट्ट करुन समेर वेता. आपलें शास्त्रीय संगीत तो सोंपयता तेन्ना मात्सो विसव घेता. मागीर शिरीष पै ची कविता याद जाता,

*हळू हळू पावसाचा*
*पायरव मंदावला*
*फकत खोल श्वासातून*
*कंप मात्र कानी आला.*

पावसाचो तो नाद असो श्वासांत लेगीत उरता. ह्या विसवाउपरांत सुरु जाता श्रवणांतली ठुमरी. म्हाका श्रवणांतल्या धर्तरेची काया येवजता,

*तळयां तळ्यांनी माया शेवाळी*
*पाचवसार दर्या वर्ख रुपेरी*
*गर्भल्हारां आतां शेतांशेतांनी*
*तृप्त भाद्रपद तृपा मन मन.*

तृप्तीची ठुमरी तो अशी बनारसी ढंगान ल्हवपीक सोंपयता.

पावस हो म्हाका एक गायक कसो दिसता. ज्युस्त पं. वसंतराव देशपांडेभशेन. खूबदां दिसता वसंतराव म्हणजेच पावस. पावसांत फकिराची बेफिकीरपणा आसा, तेचवांगडा बळया कर्तुबांचे मनस्वीपण आसा. आपलें काम पुराय जातकच त्याच मनस्वीपणान खांदाक झोळी मारुन दिगंतेक नाच्च जावपी फकिर. पावसाचे स्वर हे अशे.

पावसाच्या भाशेंतूच संगीत आसा आनी मोगूय आसा. पावसाचें अशें शेनप, शिडशिडप, शिरशिरप, घसघसप, ह्या ताच्या सगळ्या करण्यांक एक ठेको आसा, लय आसा आनी मोगाचो स्वर आसात. संगीतांतूय पळेयात, अशेंच उ. बिस्मिल्ला खाँ शेनाय सुरवात करता तेन्ना स्वर अळंऽग शेनतात. पं. रविशंकराच्या सतारींत ते शिडशिडटात, विदुषी किशोरी आमोणकारांच्या पैल्या षड्‌जांत शिरशिरतात आनी पं. भीमसेनाच्या मल्हारांत घसघसतात.

भारतीय संगीतांत पावस म्हणजेच राग मल्हार. हो मल्हार पावसाचें रुप, ताचो रस ताचो गंध आनी ताची लय स्वरांनी वेंचता. पावसाच्या झडींचीं आंदोलनां मल्हाराच्या कोमल निषाद आनी तीव्र निषादाक जागीं करता. पानावेले थिरथिरपी थेंबे कोमल गंधाराचें आंदोलन जागयता. मल्हार मागीर मियामल्हार जाता. तो अखंड झडटा, घसघशांनी पडटा, मनसोडून रंगता, पावसावरीच..!

ताकतिकेन झडझडीत एकठांय जावपी कुपां, तांचे बदलत रावपी आकार आनी गडत जायत वचपी रंग मल्हाराच्या स्वर-आंदोलनांनी पळोंवचे. निळया बंदिशीची मांडणी, झडींची आंखणी, सगळीं चित्रांनी मल्हार आपल्या स्वरांनी रेखता. जोगलांची गती तानांनी पेलता. दणदणावन सोडपी नाद, गंभीर नाद, खोल आस आशिल्लो नाद, हीं पावसाचीं सगळीं रुपां मल्हारान आपणाल्यांत.

बडे गुलाम अली खाँ साहेबाची एक गजाल आयकली. मुंबयच्या घसघसपी पावसान ते एकदां खोशी जाले आनी तांणी टॅक्सी मरीन ड्रायव्ह दर्यालागीं व्हरपाक सांगली. थंय एका धडेकडेन रावन तांणी मियाँमल्हाराचो रियाझ सुरु केलो. जे गतीन ल्हार घसघसून देगेकडे येतालें तेच गतीन खाँ साहेबाची तान येताली आनी ल्हार धडेक आपटून, फुटून परत वता तेच गतीन तान अवरोही परतताली. हो रियाझ खूब वेळ चल्लो. वांगडा आशिल्ले पं. देवधरुय ह्या रियाझांत रंगून गेले.



कवी माधव बोरकाराची एक कविता,

*पावस जिरता*
*पावस मुरता*
*मातयेच्या गर्भांत*
*पावस पाझरता*

*पावस मनांत*
*पावसम रानांत*
*धर्तरेच्या स्वासाचो*
*नाद प्राणांत*

पावसाचो पाझरलेलो नाद हो असो आसता. एक दीस फांत्यार पावस बरोऽऽ अखंड धारेल्लो. हांवे म्हज्या गुरुजीक म्हळें, 'गुरुजी, पावसाच्या स्वराचेर तंबोरो जुळोवन पळोंवया?' 'छान कल्पना' अशें म्हणून गुरुजीन म्हाका उर्बा दिली. त्या दिसा तंबोरा मळबांतल्या येवपी अखंड पावसाच्या स्वरांनी जुळिल्लो. गुरुजी दुर्गा रागाचे स्वर सांगताले. दुर्गाची बंदिश पावसांत रंगली. आयज तो खोलाय आशिल्लो पावसाचो नाद येवजता. दुर्गाचो शुद्ध मल्हाराकडलो मोगूय कळटा. याद जाता कवी मनोहरराय सरदेसाय,

*मळबान धर्तरेकडेन*
*केल्ली मोगाची भास*
*...म्हळ्यार पावस.*

हे भाशेंतल्यानूच धर्तर, जळ, तेज, वायू आनी मळब हांची मेळामेळ जाता आनी निर्मणेचो प्रसन्न नाद जागता.

पावस आनी संगीत म्हळ्यार एकाच नादांची रुपां. केन्ना केन्नाय कळच ना आनी पावसांत संगीत सोदतात काय संगीतात पावस! हांचे पुराय दर्शन म्हळ्यार श्रीकृष्णाचें विराट दर्शन. तें दर्शन घेवपाक अर्जुनाची दृष्टी आनी तांक जाय. देखून,

*मनाच्या रुख्यान*
*संगीताची रवी घेवन*
*पावस चाळटना*
*पंचप्राणांतल्यान आयिल्लें*
*शब्द-स्वरांचे हें लोणी?*
*...कृष्णाऽऽर्पण.*

संपर्क : 7507441344







RAJHAUNS

Goa Saunskrutik 2021

A directory of
Writers & Publishers

272 Pages
Size : 15.5cm x 23.5cm
Price : ₹ 100/- (self-subsidised)
Publication no :1584
ISBN : 978-93-90844-44-9




RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD
1-Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg,
Panaji - Goa 403 001 I Ph.: +91 832 222 0320 / 223 2177
Email : rajhaunsgoa@gmail.com I Website : www.rajhauns.com



# म्हज्या गांवांतलो पावस

रमेश साजू घाडी

दाय आपली म्हापशें -मेणकुरे बसीची निमणी ट्रिप मारून पुरो जावन तिनसनां घरा येतकच, घामान थपथपिल्लो आपलो खाकी बुशकोट काडून खुटयाळ्याक लायतालो आनी पोरने तामरेतीर आपले फाटीक आयिल्लें घामोळें खरपीत बसतालो.

"दाय घामोळे फोडूं रे ?"

हांव हळूच विचारतालों.

"हं ..."

तो झेमकुऱ्यांनी उलयल्ल्या भशेन जाप दितालो.

मागीर हांव तामरेतीर बसून 'स्सू स्सू' करीत ताच्या पिकिल्ल्या घामोळ्याच्यो पुळयो फोडीत रावतालो...

तो मागीर बरो मुडान येतालो आनी ताच्यो गजाली सुरू जाताल्यो, ताच्यो गजाली सांगपाची ती तराच वेगळी आसली.

...त्यो गजाली केन्नाच सोंपच्यो न्हीं अशें तेन्ना म्हाका दिस.

...त्या गजालींक लागून म्हाका ते मे म्हयन्यांतले घामोळ्याचे दीस खूपच आवडटाले.

दायक तें मायाच्या म्हयन्यांत घामोळें येवप वर्साचेंच जाल्लें, तें घामोळें मागीर बद्द पयल्या पावसांत तो बरो वरभर माडापोंदच्या घसघश्या खाला न्हातकच वतालें.

तो घामोळें खाजयत पाच धा मिनटां थंयच तामरेतीचेर बसतालो, मागीर आई तुवालो आनी शाबू हाडून सोप्यार दवरताली.

मागीर भेणांक तुवालो गुठलावन हातांत कळशी आनी शाबू घेवन तो घरा फाटले बांयचेर न्हांवक वतालो....

खूप वर्सां मायाच्या म्हयन्यांत ताचो तो नेम चुकूंक ना.

तो ते तामरेतीर बशिल्लो आसतनाच आवय रांदचे कुडींतल्यान, पेत्रोलाच्या दिव्यार पेटयल्ली आपली विडी, उजव्या हाताचे चिमटेंत घट्ट धरीत दायच्या फुड्यांत येवन थपकल मारून बसताली, कितें म्हत्वाचें तिका उलोवपाचें आसत तर तिची ती थारलेली पोज...

"धाकटु मायाची पंदरा जाली मरे. आजून गोठो शिवोंक ना, गोबाड्डु शेतांत पातळूंक ना, आजून शेतांक उमण फोडूंक ना, घराक झोड बांदूक ना... सगळीं कामां पडलेली आसात, जात्रेचे जरगतीक पावस झडलो जाल्यार किदें करतलो रे ?"

"पुरूमेंताची आजून कांयच कामां जांवक ना मरे.. मात्सो तुज्या पात्रावा कडल्यान चार दीसांची सुटी घे."

ऐशीं वर्सांचे आवयकडेन तेन्ना कांय कामां जाय नासलीं पूण ती सगळ्यांक जागोवपाचें काम मात नेटान करताली. दुसरे दीस दाय सुटी घेवन येतालो आनी तिसरे दिसाच्यान तो आपूण बस ड्रायव्हर हें विसरूनूय वतालो आनी हेरां भशेन आपल्या शेतकामत्याच्या पुरूमेताच्या कामांत गुल्ल जावन वतालो.

जेन्ना दायची जाणटी पिराय जाली, तेन्ना पावसा पयलीं तयारेचो हुसको करपाची पुर्णवेळ जापसालदारकी ताणें आपले तकलेर घेतली.

"बाबा शेतां केन्ना नितळ करून घेताय रे ?"

"बेगीन उमण फोडून घे मरे, मागीर नाथाचो ट्रेक्टर मेळचो नां."

"तें फाटल्यान उदक भरुन कोंड जातलें, आताच मातयेची भर घालून खळी मारून घे."

"आनी.. तो पोनेळ मात्सो घट करून घे, पोरूं भशेन पावसाचो सगळो शिदेव बल्कावांत येतलो. सांजेवा पयलीं शेतांत रोव पडपाक जाय, ना जाल्यार रोवाक पारये लागतले."




जाण्टेपणान आवय, दायक पावसा पयलींची कामां बेगीन सोंपयात म्हूण सांगून सांगून थकताली पूण पयल्या पावसाची शिटकावणी मेळल्या विणे दायची कामां केन्नाच सोपूंक नात. आनी म्हजेंय तशेंच जातालें, कामां फाटी फुडें जातालीच.

म्हजो गांव साळगांव... साळ म्हणल्यार भात, साळगांव म्हणल्यार भाताचो गांव, शेकड्यांनी वर्सां पयलीं पासून आमच्या गांवांत भात खूप पिकता, पयलीं वायगंणूय पिकतालें पुण आता फकत सर्देच पिकता.

भाताच्या पिकाक बऱ्या पावसाची गरज आसता. एप्रिल म्हयन्यात शेतकार आपल्या कामांक लागता, खुराणे काडून शेत नितळ कर, झाडां, झिलकुटां बेणून व्हाळ, मुशी, उदक वचपाचे कान नितळ कर, गायरींतलें गोबाड्डु व्हरून शेतांत

पातळय आनी मागीर उमण फोड. उमण म्हणल्यार पयलें जोत, हें पयलें जोत बांदून जातकच शेतकार पावसाची वाट पळयत रावता.

दीसभर नितळ आशिल्ल्या मळबांत सूर्य काळ्या कुपां आड लिपता, नेटान गडगड जगलावणें सुरू जाता, अचकित जाल्ल्या आकांतवादी हल्ल्यावरी वातावरण जाता... गांवांत सगळ्याक धावांधांव.

पावसा पयलीं सगळी पावसाची तयारी पुराय जाल्या अशें आमच्या गांवांनीं केन्नाच घडना. कोणाचे फाटल्या कुडाचें बांदकाम चालू आसता, कोणाचे नळे परतप, तर कोणाचे मदेर थापटप...

कोणें खोबरें सुकत घाल्ले आसता तर कोणाचे सकाळीं उकडिल्लें भात साकान भरप चालू आसता ...सगळ्या वाड्यार बोवाळ पडटा, सगळे शेजारी एकामेकाचे मजतीक धांवतात. तरी आसतना पावसांत थोडें भोव भिजून वताच.

पयल्या पावसांत गांवांत येवपी मातयेचो वासूच वेगळो, तो वास सारको पुल्मावांच्या खराक पावता.

पयल्या पावसाचे रातीक मात्शी थंडाय पडटा मायाचे गर्मेंत काशेद आयिल्ल्या कुडीक मात्शी थाकाय मेळटा पूण दुसरे दीस मात गरमी आनिक वाडिल्ली आसता.

पयलो पावस हो गांवांत शिटकावणेचो पावस आसता.

''आरे आजून हांवे मिरसांगो घेवंक नां!''

''म्हाका फाल्या तरी खोबरें आनी भात माकनार व्हरपाक जाय!''

''हो पावस फाल्याच्यान धरीना म्हे?''

सगळ्यांक हुसको जाल्लो आसता, त्या हुसक्यान मात सगळी कामा फटाफट जावपाक लागतात.

***

जूनाचे तीन चार तारखेर कोणतरी खबर हाडटा आरे काल केरळाक पावस सुरू जालो, पांच तारखे मेरेन गोंयांत मॉन्सून पावता! शारानीं पावस केन्ना सुरू जाता आनी केन्ना सोंपता हाचे कोणांक चड पडिल्लें नासता पुण गांवांत सगळे जिवीत पावसाच्या ऋतुचक्राचेर थारिल्लें आसता. जूनाचे सुरवेक एक दोन दडको पडून वतात पूण पावसाक व्हडलोसो नेट नासता.

''आरे जूनाची सात जाली, आजून पावसूच ना मरे...''

एक शेतकार दुसऱ्या शेतकाऱ्याकडेन आपलो हुसको उकतायता.

''हांवें काल रोवाक भात दवरलां, पावस ना जाल्यार त्रास जातलो मरे...''

दुसरो आपली खंत व्यक्त करता.

ओंपणी करून भात मळून घरा हाडीसर पावसाची ल्हान मोटी चिंतना शेतकाऱ्याच्या पदराक पिळग्यान पिळग्यो पडिल्ली आसतात.

सैमाचेर तसोच देवाचेर भार दवरून शेतकार जियेता. आठ दीस पावस पडना जातकच आमच्या शेजारच्या ऐशी वर्साच्या कायतान तितीवाक कशीच न्हिद पडना .

''हें देवान कोहोले ओदृस्ट आमका फावो केलां रे.. फाटल्या खुर्साक तेर्स कोरया, देव आमच्या भावार्थाची पोरीक्षा पोयता.''

ते सांजेर वाड्यावयल्या सगळीं शेजाऱ्यां खुरसाकडे सगळे तेर्स करपाक एकठांय जातात, दुसरे दिसा थोडे उमेदी तरणाटे तकलेर फातर घेवन दोंगरावयल्या सांत आंनाच्या कपेला कडेन पावस मागपाक वतात.. .

*''सांतान मानीच्या बेटात*
*पावस घाल गे*
*सगळ्या शेतांत*
*वोयले वोयले*
*काळगिंणी*
*पावस घाल गे*
*सायबिणी.''*

दुसऱ्या दिसा पावस पडटकच सगळे गांवचे शेतकार खोशी जातात, तांचे ओपणेचे काम नेटान सुरु जाता.

मिरगाचो पावस सुरु जातकच सगळो गांव पांचवो शालू न्हेशिल्ले सोबीत नवे व्हंकले वरी दिसपाक लागता. तायखिळो, हरयाळी, करपील, कुड्डू, तेरें, घाणेरी, सगळ्या शेतां भाटांनीं, दोंगरा रानांत जिनसावार वनस्पत रुजून येता, जाण्टी जड्डी जाल्लीं झाडां-पेडां पडून त्या जाग्यार नवी रसरसून फुलिल्लीं रूखां नदरेक पडूंक लागतात. तिनसांजचे बेबे खोशयेन गावंक लागतात. थोडे उमेदीचे तरणाटे रातचे थिगूर, सांगटां, कुल्ल्यांक दिपोवंक वतात. थोडे भेकरे शेतांतल्या मेरे-वर्शी लागशिरे कोंगें धरून हाडटात, थंड शितळ पावसा दीसा कोंग्यांचें आंबटतीख आनी उकड्या तांदळांचे पोळे म्हळ्यार गांवान सगळ्यांचेच घोस्ताचे.

''पावसाक अंदू बरो नेटूच नां मरे.. बायों तरी भरतल्यो मरे?''

''सांजेवाक फकत चार दीस उल्ल्यात...''

हो आमचो शेजारच्या बांयत नदर मारीत सांजेवा आदल्या चार दीसांचो सगळ्या तरणाट्यांचो वर्सुकी डायलॉग.

सांजेव म्हणल्यार सेंट जॉनाचे फेस्त, ह्या फेस्ता दिसा गांवांतले तरणाटे, माथ्याक कपेलां बांदून बांयत उडयो मारून न्हातात.

नवो जांवय त्या दिसा मावोड्या येता, थोडे उमेदी मेवणें तांच्या कुन्यादाक कॉप घालून बरो टायट करतात आनी मजा पळयतात, थोडे शिटूक कुन्याद हुशार आसतात ते आपूण टायट जाल्ल्याची एक्टिंग करून मेव्हणे-मेव्हण्यांक खोशीय करून सोडटात.

*''वोडिलाच्या कायद्या पोरमोणे*
*उदोक न्हातांव बांयचें...*

*सांजांव सांजुवांव घुवंतां मुरे*
*वाट आमका दिसोना*
*चोल रे पिये रे*
*तूं इल्लो घे रे*
*फाल्या काय मेवोना*
*ओसलीं फेस्तां कित्याक*
*वोर्साक दोन पावटी येना''*

गांवांत पावसांनी भरील्ल्या बायांचो हो सुवाळो तरणाटे पिळगेक खुप खोशी करुन सोडटा.

***

मिर्ग सोपता म्हणसर शेतांतली ओंपणी, पडसावणी (भात रुजून येवंक नासलेल्या जागेर दाट आसा थंयचें भात हुमटून लावप) नणी

(पान २४ चेर)



# यादी पावसाच्यो

डॉ. जयंती नायक

मे म्हयनो सोंपतेर पावला, म्हजो हो लेख आशिल्लो 'जागा'चो अंक उजवाडाक ये म्हणसर जून लागतलो. न्हय हो जागाच्या जूनाच्या अंकांतच प्रसिद्ध जावपाचो. पावस म्हणजे हे सृश्टीचें संचित, धर्तरेचें जीवन आनी वसुंधरेचें सौभाग्य. दर वर्सा मे म्हयनो लागताच म्हाका पावसाचे वेध लागतात. चातक पक्षासारकें हांव व्याकूळ जावन पावसाची वाट पळयतां. मीर्गाचो पावस ताच्या येवपाच्या वेळार येवं पूण निदान ताच्या येवपाची बातमी दिवपी पावसाच्यो कांय दडको तरी येवं म्हण हांव तळमळटा. हांव पावसाची वाट पळयतां तें सर्वसामान्यां सारकें उबाळान तापिल्लो जीव थंड जावचो म्हणून न्हय. तर पावसाची म्हाका भोव वोड. एखाद्रे मोगीकेन आपल्या प्रियकराची वाट पळोवंची इतके आतुरतेन हांव ताची वाट पळयतां. तो येतकच म्हज्यो चित्तवृत्ती फुलतात, ताचो रीमझीम आवाज कानार पडटकच मन मोरासारकें थुईथुई नाचूंक लागता. काळजाच्या तळांतल्यान सुखदसंवेदना उमळ घेतात. भायर पावसाच्यो नवसृजनाच्यो अमृतधारो शिंवरतना, एकांतांत हांथुरणांत मुंगरून, दोळे मेटून नाका-पुडयांनी मृदगंध हुंगीत आपल्याच जगांत शेणून वचपांत म्हाका सर्ग सुख मेळटा.

पावसाचें आनी म्हजें नातें जल्माचें. म्हजो जल्मच भर पावसाळ्यांत जालां. घडये ताकाच लागून जायत पावस म्हाका इतलो भावता. ऑगस्ट म्हयन्याचे स तारखेची कृष्ण पक्षांतली रात. तीन दीस झोड-मोड आनी अखंड उंटगाराचो पावस पडटालो, कुशावती न्हंयेक हुंवार आयिल्लो. सगळे कडेन उदकच उदक जाल्लें आनी अशा ह्या पावसाळ्या राती हांव सातोळें जल्माक आयलें. म्हजो जल्म जालो आनी पावस आपलें तांडव थांबोवन शांत जालो. जसो काय तो म्हज्या येवकाराकच तीन दीस तांडव नृत्य करतालो. म्हजे आवयनच ही खबर म्हाका सांगिल्ली आनी तेन्ना सावन नकळत पावसाकडेन म्हज्या मनाच्या सतारेची तार जुळिल्ली.



खरें सांगता, अंदू मात पावसाच्या येवपाची वर्सा सारकी उमळशीक म्हाका ना. अंदू तो वर्सूयभर अर्दी मर्दी अवकाळी झडतच आसा. कांय दिसां आर्दी ताणें चैत्रपुनवेक आपली हजेरी लायिल्ली. आजो सांगतालो, चैत्रपुनवेक पावस मोतयां सारकें मोटमोटे शिताडे घालून वता, तो संपन्नतायो पावस. पूण अंदू तो दडकांनी वोतलो. लोकांची वायंगणी पिकां ताणें मस्तून उडयलीं. आनी काल तर ताणें आकांतच केलो. 'तौक्ते' वादळाक सांगाताक घेवन तो आयलो आनी ताणें सगळें आशिल्ल्याचें नाशिल्लें केलें. सामको सांवार केलो ताणें. लोकांचीं घरां मोडलीं. व्हडले व्हडले रूख हुमटायलें, कांय जाणांचे जीव लेगीत घेतलें. आपलो इतल्या वर्सांचो सैमान नेमून दिल्लो नेम तो हालीं मोडूंक लागला, अंदू वर्सा तर चडूच मोडला. ताका लागून ताच्या येवकाराची खोशीच ना जाल्या.

आपल्या अशा बेभरवंशाच्या आनी बेफाम वागपाक लागून पावस शेतकार-कश्टकरी लोकांच्या दोळ्यांत दुकां उबीं करूंक लागला, तांचें कामाधंद्याचें गणीत तो चुकोवंक लागला, तांचे वर्साचें पोट मातयेंत मेळोवंक लागला. आदल्या काळार पयलो पावस येता ते दिसा शेतकार त्या पावसांत भिजत खोशी मनयताले. आतां पयलो पावस खंयचो तेंच तांकां समजना जालां. आतां तो येतांच तांचीं तोंडां बावतात, मागीर म्हाकाय ताचो राग येता. तो म्हजो कितलोय जिवाचो आसूं, ताचें हें बेशिस्त वागप पळोवन हांव तिडकतां आनी म्हज्या तोंडातल्यान नकळत उतरां भायर सरतात, "कित्याक रे असो लोकांक पिडटा?... तूं म्हणजे हे धर्तरेवयल्या जीव- जितापतीचो, वन-वनस्पतीचो जीवनदातो... आतां असो कित्याक तूं तांचें जीवन उध्वस्त करूंक लागला?"

अंदू पावसाच्या येवकाराची उमेद ना आसपा फाटल्यान आनीक एक म्हत्वाचें कारण म्हणल्यार... कोरोना म्हामारीच्या दुसऱ्या ल्हारान चैत्राचे सोपतेक धरूनच मांडिल्लो आकांत. फाटलें वर्सभर पयल्या ल्हारांन संवसाराक नाका पुरो केल्लें. तातुंतल्यान आतांच खंयतरी लोक मात्शे तकली वयर काडूंक लागिल्ले आनी तेन्नाच दुसऱ्या ल्हारान झोंपय मारली. गोंयांत सद्याक खूब आकांताळी स्थिती आसा. पयल्या परस ह्या दुसऱ्यान चड भिरांकूळ वातावरण तयार केलां. गांव-शार, गरीब-गिरेस्त, भुरगो-जाणटो कोणाकच ताणें सोडिल्लें ना. दर दिसा वळखिचे - सोयरे- गांवचे एक एकटे मरतल्याची बातमी कानार पडून मन विषण्णय जायत आसा. अशा वेळार पावसाच्या येवपाचे सुलूशेन मन फुलून येना. कांय लोकांक करोना वा कोविडाविशीं हुस्को केल्लो वा उलयिल्लें

मानवना. तांकां ती फुक्याची रड दिसता. तांचें हांव नकळ, पूण हांव एक संवेदनशील मनीस. जगाचें दुख्ख पळोवन म्हजें मन न्हिन्नळटा. आपले भोवतणी दुख्खाचें इतलें सांवट आसतना आपणें सूखम्हालांत रंगोवप म्हज्या मनाक पुटवना.

अंदूचे परिस्थितीक लागून, पावसाच्या येवपाचो हांव मनउत्सव मनोवंक शकना तरी तो येतांच ताका जोडून आशिल्ल्यो यादी मात खास करून भुरगेपणांतल्यो यादी मनांत उमाळून येतल्यो हें खरें. चड करून हांव एकांतांत बसता तेन्ना...

भुरगेपणांतलो पावस वेगळोच आशिल्लो. तो शिस्तीचो, गुणेस्त आशिल्लो. तो थारायिल्ल्या वेळारच येतालो. थारायिल्ल्या प्रमाणानच पडटालो. देखून गांवच्या जाण्ट्यांक आपल्या कामा-धंद्याचें वेळापत्रक मांडप शक्य जातालें. त्या वेळावेलो गांव आनी घरूय वेगळें आशिल्लें. भुरगेपणांत म्हजो गांव झाडां-पेडांनी भरिल्लो, गांवचे भौतेक लोक शेतकार-कश्टकार. तांका सैमाची पुराय वळख आशिल्ली. सैमाकच ते देव मानताले. सैमाच्या चक्रासांगातान जियेताले. जशें काय तेवूय सैमाचोच एक भाग. लोक पावसाक भिवन केन्ना घरांत रावनाशिल्ले तर तकलेर दडकांनी वोत्तल्या पावसांत भिजत कमरभर उदकांत रावन आपली शेतां-भाताचीं कामां करताले. पावस तांचे खातीर सहज अशी सैमीक घडणूक आसताली.

भुरगेपणांत आमगेलें घर मनशांनी भरून वोत्तालें. आई, पापा, आजो, भाव... सोयरो येतकच कशीं घरांत कामांचीं गडबड सुरू जाता, तशें पावस येतांच जातालें. झोड-मोड पावस पडलो, गांवचे न्हंयेचें उदक चडूंक लागलें, वादळी वाऱ्यान घराचे नळे हुंबून गेले, म्हाका वा म्हज्या भावांक ताचो केन्ना हुस्को वा भंय नासलो, तो काडूंक जाण्टे लोक आशिल्ले, आमचें काम पावसाच्या उदकांत भिजप वा नळ्यातल्यान गळटल्यो पांवळ्यो मुठींत धरून पावसाची मजा लुटप.

म्हज्या भुरगेपणांत गांवातली शंभर टक्के घरां मातयेच्या वण्टींची आनी नळ्यांची, आनी तांतुंतलीं अर्दी-अदीक घरां गांवठी नळ्यांचीं, चुडटांच्यो खोण्णयो, झड बी बांदिल्लीं. एक दोन जाणांची घरां तर चुडटांच्यो खोपीच आशिल्ल्यो. पावस लागीं पावलो... हाची सुलूस सगळ्यांत आदीं लागताली ती गांवचे लोक आपलीं घरां शिंवपाक लागले म्हणटकच. चड करून मे च्या दुसऱ्या-तिसऱ्या आठवड्यांत तें दिसतालें. त्या काळार आज तुगेलें, फाल्या म्हगेलें करुन वावरून घरां शिंवताले. मानायपणाचे पयशे नात, फक्त मुशारो म्हणजे... च्या, पेज, जेवण कितें तांकता तें दिवपाचें. ह्या दिसांनी गांवच्या दर एका आंगणांत चुडटांच्यो, जळवाच्या लाकडांच्यो राशी दिसताल्यो. खोपी, बागेलां शिंवपा खातीर, झड बांदपा खातीर दादले-बायलो मलायो, मल्लां बी फांतोडेर उठून वा रातचें विणटना दिसताले. कारण दीस हेर कामांत वतालो. ह्या दिसांनी पावसाखातीर तांदूळ गोट्याची तयारी म्हण भाणाचीं भाणां भात उकडून आंगणांत सुकत घाल्लें दिसतालें. सोलां, मिरसांगो, मीठ, खारें (भटा- बामणाच्या दारांनी वडयो, पापड, सांडगे, साठां...) ...आंगणांनी सुकत घाल्लें दिसतालें. मनशांच्या आसोराची आनी पोटाची वेवस्था करतनाच गोरवांखातीर गोठे शिंविल्ले आनी तण-करडय भरतना दिसतालें. नित्केच शिक्षणाचें वारें गांवात पाविल्लें, पूण ह्या दिसांनी शाळेक सुटी आशिल्ल्यान जाण्ट्याबरोबर भुरगींय खोपींनी जळोव भरपाक जाण्ट्यांक आदार कर, सुकत घाल्लें राख... अशीं कामां करतना दिसतालीं.

घरां - दारां शिंवून जालीं, तांदूळ-गोटो, मीठ-मेथ्याचो पुरुमेंत लागीं केलो म्हणटकच मागीर शेत-रोंपणेची तयारी सुरू जाताली. चोमो (चोबो) पद्दतीन सुक्यार शेत रोवपाची तेन्ना गांवांत पद्दत आशिल्ली. खचरो, केनाळ सारक्या गांवठी बिंयांच्यो पावसाची एक-दोन शेन येवन वतकच, सुमार मे म्हयन्याच्या शेवटाक तासां काडून जमनींत वेंत वेंत अंतरान पुंज्यो घालताले. मीर्ग लागचे पयलीं हें सुकें बीं किल्लून पाळां धरतालें. घराकुशीच्या रस्त्यावेल्यान 'है है' करीत बैलांक आमडीत शेतवडींत वचपी दादले आनी माथ्यार गोबराची, शेणाची वजीं, बियांच्यो मुडी, पेजेचे बुडकुले घेतिल्ल्यो बायलो दिसल्यो म्हण्टकच मीर्गाचो पावस दारांत पावलो हें आपसुकच कळटालें. सादारणपणान ही समज म्हाका पांचवेक पावली तेन्ना आयिल्ली. ते आदीं मात, पावस म्हणजे उदकांत भिजपाची मजा, इतलेंच म्हजें परिमाण आशिल्लें.

गांवांतली पावसाची गडबड आमगेल्या घरांतय आसताली हें वेगळें सांगपाची गरज ना. गांवांतल्या हेर भुरग्यांभशेन म्हाका आनी म्हज्या भावांक खास करून व्हडल्या भावाक कामां करचीं पडटालीं. धाकले दोग ल्हान आशिल्ल्यान तातुंतल्यान तांकां मेकळीक आशिल्ली. सुटयेंत मामागेर गेल्लीं आसल्यारुय चोबो घालपाचो जातगच आमकां आई हाडूंक येताली वा मामा पावयतालो. भावाक आई -आज्या बरोबर बारीक- सारीक कामां करूंक शेतांत व्हरताले, जाल्यार झेपता तीं घरांतलीं कामां करपाची म्हाका आई ओर्द दिताली.

त्या काळार घरांत फॅन-एसी असल्यो गजाली नासताल्यो. वयल्यान उदकाचोय दुकोळ आशिल्लो. एकूच सार्वजनीक बांय. तिचेंय उदक मे म्हयन्यांत सुकतालें, मागीर पाणट्याचें उदक हाडचें पडटालें. उबाळ चडूच वाडटकच आजो रातचो आंगणांत मल्लां घालून वाऱ्याक न्हिदतालो, हांव आनी म्हजे भाव ताचे म्हऱ्यांत वचून ''आज्या, पावस केन्ना येतलो रे?'' म्हण ताका प्रश्न विचारत रावताले. मागीर आजो एक अंदाज सांगतालो, जो सारको जातालो. आज्याचे कांय तर्क आशिल्ले, 'नकटो घो... नकटो घो...' असो सूर काडीत पावसाचे शेंवणे, पावसाक उलो करीत घराफुडल्या आंब्यार येवन रडूंक लागलें, म्हणजे दोन-तीन दिसांनी पावस पडटा, वा घरा फाटल्यान खंवलो कुसलो (घाण वास येवपी एक कंद वयर सरलो) म्हणजे रोकडोच पावस पडटा. पिसोळ्यांचें भुयेर सुटलें आनी ते तिळसांजेचे दिव्या भोंवतणी घुंवूंक लागले कीं दुसऱ्या दिसा पावस पडटा... पाण्टयावेली वाल फुल्ली वा येवलां (मुंयो) जमनींतल्यान भायर सरलीं, कुटकुटी (तांबडी बेबकी) रडूंक लागली कीं रोकडोच पावस येता...

आज्याचो तर्क केन्नाच चुकनाशिल्लो. ताच्या अंदाजा प्रमाण, पयलो पावस गडगड-विजांचें वाजप-गाजप सांगाताक घेवन, कऱ्या-गऱ्यांचो शिंवर घालीत उतावीळपणान येतालो...ताच्या येवपाचो वेळ खास करून सांजेचो आसतालो. तो नेटाच्या वाऱ्याक सांगाताक घेवन काळ्या

कुपांच्या घोड्यार सुंवार जावन झाडां-पेडां खुनलायत, खोलयो-पत्रो हुंबयत येतालो. मागीर वाड्यावेलीं भुरगीं तातूंत केन्नाय हांव आसतालें, कुलकुलाट करीत आमगेल्या दारांतली टपटप करून झडटलीं कोत्रिण आंब्याचीं तांबशे पोले आशिल्लीं पांचवी तन्नी- पिकीं तोरां पुंजावपाक झुंडी घालतालीं. घरांतल्या जाण्ट्याच्यो आड्डयो खायत, पावसांत चिप्प भिजत तोरांनी भरिल्ल्यो व्हंटी घेवन घरांत भितर सरतना आपणें कितें तरी व्हडलो पराक्रम केल्याचो झेत दिसतालो.

पयल्या पावसा उपरांत दोन-तिनदां जमनीक वोल करपी पावस येवन वतालो आनी मागीर दडकांनी पडपी मीर्गाचो पावस सुरू जातालो. ते उपरांतचे चार म्हयने तो थारियल्ले प्रमाण झडटालो... आशाढांत तो ढबढब झडत कुशावती न्हंयेक तांबड्या उदकाचो हुंवार हाडटालो, श्रावणांत तो शिरशरत सोनवतां वांगडा आपा-लिपा खेळटालो, भाद्रपदांत गणपतीक आवडटा म्हण तो न्हंयेचे उदक तांबडें करतालो, मागीर सांजेचो गडगड मारून म्हाळा म्हयन्यांत पुर्वजांच्या पिंडाक नमन करूंक एक-दोन दडकांनी येतालो, ते उपरांत आश्विनांत -कार्तिकांत ताची परतावणाची तयारी सुरू जाताली, तरी तो तुळशीच्या लग्नामेरेन थार धरतालो... मागीर एकदांचो आपली वाट धरतालो, तो बद्द चैत्रपुनवेक चंद्रेश्वर-भूतनाथाच्या रथार मोतयांचे थेंबे शिंवरुक परत येतालो.

पावसाच्या येवपाची सुलूस दिवपी खबरी, पावसाचो वेळ-काळ, खंयच्या नक्षत्रार कितलो झडटा, तो कोणाचे फाटीर बसून येता, वा कोणाचेर बसल्यार कितलो झडटा, देखीक बेबकार बसून आयल्यार ते वर्सा तो चड पडटा, ह्यो गजाली म्हाका आनी म्हज्या भावांक आज्यान सांगिल्ल्यो, धाकट्या दोगां भावांक ताची याद आसा काय हांव नकळ, पूण म्हाका आनी व्हडल्या भावांक ताची घट्ट याद आसा. आज आज्या जाग्यार ह्या प्रमाणाच्या आदारार हांव पावसाचो तर्क करता आनी तो शंभर टक्के खरो जाता.

आज्यान सांगिल्लें पावसाचें शेंवणें म्हणजे, चातक पक्षी हें म्हाका व्हडलें जातकच कळ्ळें. ताचेविशीं आज्यान भुरगेपणांत एक काणी सांगिल्ली... रडटा ती खंय बायल (मादी), पावस खंय तिचो घोव. तीं दोगांय एकदां रानांत चंवर खावपाक गेल्लीं. थंय गेल्लेकडेन घोव शेणलो आनी ती एकटीच उरली. मागीर तिका कळ्ळें की तिच्या घोवाचे पावसांत रुपांतर जालें म्हण आनी तिका पावसाळ्यांत एकदांच मेळटलो म्हण. ते खातीर ती पावसाळो लागीं पावतकच आर्ततेन ताका साद घालता आनी तिणें तसो साद घालतकच तो आसा थंयच्यान धांवत तिचे भेटेक येता.

आज्यान सांगिल्लीं ही काणी वा मिथक शास्त्रीय परिमाणांचे साणीर घांसप योग्य जावचेंना, पूण एक गजाल खरी... जीव जितापतीक निसर्गातल्या घडणुकांविशीं चत्राय मेळटा, ह्या शेवण्याकय पावसाचे गणित समजता. कितेंय आसूं, आजय दर पावसांत घरामुखावयल्या रुखार तें शेंवणें येवन रडटा आनी दोन-तीन दिसांत पावस येता.

पावसाची आनी एक याद जाता. एका वर्सा पावस पडूंक वेळ जालो. क्रिस्तांवाचो आनी हिंदुंचो दोगांयचोय मीर्ग सरलो पूण पावसान तोंड दाखयलें ना. तेन्ना आमच्या घरामुखावयल्या कपेलाकडेन क्रिस्तांव दादले बायलो जमून ओरेसांव गायत पुरसांव काडिल्लें. त्या पुरसांवांत एके दालयेंत एक फातोर दवरून ती दाली एके बायलेन माथ्यार घेतिल्ली. आमी भुरगीं अजापान मुखार वचून तें पुरसांव नियाळटालीं. त्या वेळार कितें गितां गायिल्लीं तीं म्हज्या लक्षांत नात, पूण मुखार हांव लोकवेदाचें काम करूंक लागतकच गांवच्या सेबेरीनमानान (परैरा) त्या ओरेसांवांत 'दोंगरावेले काळगिंणी, पावस घाल गे सायबिणी' हें गीत गायतात अशें सांगिल्लें आनी गावनय दाखयिल्लें.



पावसाच्यो काळजांत उरिल्ल्यो अगणीत यादी आसात... पापान हाडिल्लो नवो रेनकोट आनी घो घो पावसांत तो घालून व्हडल्या भावाचो हात धरून रस्त्यार जाल्ल्या उदकांत खेळत शाळेंत गेल्ले दीस, आंगणांतल्या धडेवेल्यान व्हांवतल्या घोग्याच्या तांबड्या उदकांत सोडिल्लीं कागदाची व्हडीं, आनी उदकाच्या झोतावांगडा त्या व्हड्यान उडणां घेतकच जाल्ली उपाट खोशी, पावसाक लागून बेगीन सुटिल्लीं शाळा आनी मागीर घरांत भितर सरतांच आईन दिल्ली हुनहुनीत कांद्याची भाकरी आनी च्या... रातभर घोग्यांनी वोत्तलो पावस, घरांत पेत्रोलाचो मिणमिणटलो दिवो, बेगीबेगीन काळोख पडटांच पेज जेवन भावांनी आनी हांवें हांथुरणांत केल्ली कुरंगुटी, बेब्याच्या डरांवं डरांव आवाजान आनी रात किड्याच्या किरकिरान काळजांत भरिल्ली धडधडी, भायर शिरीशिरी पावस झडटना पणजेन सांगिल्ली कुंडेकुस्कूराची, पडवळें आनी भोंवराची काणी. भायर पावसाचो उंटगार आनी मागील दारांतल्या बागेलांत आजो भाजतल्या काजूबियांचो घमघम... ऐन पावसांत गौरू गायेक जाल्लें पाडकूं आनी ताच्या हांबेवपान भरिल्लें घर, पडवेर गोरवांखातीर हाडून दवरिल्ल्या हरव्या तणाचे वंडींचो हरवस... श्रावणांत बारीक शेनतल्या पावसांत भिजत आई खातीर हेर चलयांबरोबर मड्डेर वचून हाडिल्ली हरयाळी-पत्री....

भुरगेपणांतलो पावस खबर ना खंय नाच्च जाला. आतां जो येता तो एकएकदां म्हाका परकी कसो दिसता. आतां गांवची शाळाय बंद पडल्या, गांवच्या लोकांचीं शेतां पडींग जाल्यात, गांवच्या घरांकुशीचे गोठे-गायरी केन्ना काळभायऱ्यो जाल्यात, 'हिरीरी है है' करून रस्त्यावेल्यान वचपी जोतां वा जोतांचे बैल आतां इतिहास जमा जाल्यात. आज्जेचे काणयेंत आतां आज्जेक आनी नातरांकय सारस्य ना जालां... गांवांत ना रडतात बेबे ना रातकिडे. ना पेत्रोलाचे पेट्टात दिवे, ना पावसाचे पडटात घोगे. कुशावती न्हंयेक वर्साक एकदां हुंवार येता, पूण तो पळोवंक वचपाक वाटोच ना जाल्यात. अडेच्या भाटकारांनी त्यो आडयल्यात. गांवांत आतां दर वर्सा घरां शिंवपाचीय पद्दत उरलिना, आतां पुरूमेंतय कोण करनात कारण आतां ॲमेझोनाचेर जाय तेन्ना वस्ती ऑर्डर करपामेरेन गांवच्यांची मजल पावल्या...

पावसाच्यो यादी काडून निन्हळपी आतां गांवांत फक्त दोगूच जाण उरल्यांत एक हांव आनी दुसरें नकटे शेंवणें...

संपर्क : 9823575623

# पावस... बाकीबाब आनी हांव

मनस्विनी प्रभुणे - नायक

भायर कोसळपी पावस आनी मेळिल्लें निवांतपण हाचे सारकें सूख ना. हातांत वाफ ओतपी च्याचो कप, मेहंदी हसन - जगजीतची गझल नाजाल्यार किशोरीताईंच्या भूप रागांतलो द्रुत 'सहेला रे आ मिल गायेऽ' आनी आवडीच्या पुस्तकाचो सांगात.

घोग्यांनी पडपी पावसाचो मनसोक्त आनंद घेवपाची ही म्हजी सदची आवडटी पद्धत. सदां उठून भिजून थापो जावनूच पावसाची खोस घेवंक जाय अशें न्हय. मातशेंशें अलिप्त रावनय पावसाचें निरीक्षण करपांत एक वेगळीच मज्जा आसता.

शारांतल्या पावसाचो आनंद असोच घेतात. तातूंत पावसांत भिजपा परस अलिप्त रावन ताचो आनंद अणभवप अदीक गरजेचें थारता. गोंयांत आयलें आनी पावसा वांगडा आशिल्ली ही अलिप्तताय नाच्च जाली. पावस हो जगपाचो भाग जालो. भुरगेपणांतल्या यादींतल्यो पावसाच्यो प्रतिमा तश्यो व्हडल्योश्यो खोसदिण्यो नात. वाडो पद्धतींतल्या रचणुकेंतलें दोन कुडींचें धाकटुलें घर, ताका मातयेच्यो वण्टी, पत्र्याचें पांखें. दर पावसाळ्यांत आमचे रांदचे कुडींत पावसाचें उदक सांठून तळें जावचें. घर मालकान जायतीं वर्सां पत्रे बदलूंक नाशिल्ल्यान पावसाळो सुरु जावचे आदीं आई - बाबाची पत्र्यांचेर डांबर, प्लास्टिकाचे कागद घालपाची धांवपळ सुरु जाताली. इतलें करूनय पावस आमच्या घरांत रीगतालो. मातयेच्यो वण्टी फुगून ओल्यो जांवच्यो.

फुडले कांय म्हयने घरांत ओल सांचून उरताली. रांदचे कुडींत पांय बुडत इतलें उदक तुंबतालें. तीन म्हयने पावसाचें उदक आमच्या रांदचे कुडींत बिराडाक आसतालें. पावसाळ्यांत आमची रांदचीकूड बैठकीच्या कुडींत एका कोनशाक हालयताली. ह्या सगळ्याचो परिणाम आसत घडये, पूण तेन्ना पावसाळो मातूय आवडनाशिल्लो. न आवडुपाक आनीक एक कारण आशिल्लें. आमी रावतालीं तो वाडो चौसपी आशिल्लो. अर्दी बांदावळ फातराची आनी अर्दी विटो-मातयेची. आमचे गल्लींत सगळे वाडे अश्याच पद्धतीचे.

आशीकुशीच्या सगळ्या वाड्यांनी मिळून आमचें पंदरा-वीस मित्र - मैत्रिणींचें टोळकें आशिल्लें. पावस सुरु जालो काय आमच्या सगळ्यांच्या मजामस्तीक आपोआप ब्रेक लागतालो. आमच्या वाड्याच्या आंगणांत खातड जाल्लें उदक सांठून उरतालें. ताका लागून आमकां ल्हान भुरग्यांक घरांतल्यान भायर पडप शक्य नासतालें. एखाद्री न्हंय हुंपतना भंय दिसचो तसो कांच आमकां वाड्यांतलें उदकान भरिल्लें आंगण हुंपतना जातालो. न्हंयच्या ह्या देगे वेल्यान दुसरे तडीवेल्या लोकां कडेन मोट्ट्यान खबरी बी मारच्यो तश्यो वाड्यांतल्या आंगणाच्या दोन देगांचेर बसून आमच्या बच्चू कंपनीच्यो आकांत खबरी चलताल्यो. ह्या सगळ्याक लागून भुरगेपणांत पावस केन्नाच आवडलोना. पूण आतां फाटल्यान वळून पळेतनां दिसता, तातुंतूय एक मजा आशिल्ली. कालांतरान वाडोय सुटलो आनी तातूंत रावपी आमी सगळीं जाणां स्थलांतरित जालीं.

खऱ्या अर्थान पावस अणभवलो तो गोंयांत येतकच. पावसाचीं वेगवेगळीं रूपां हांगाच पळोवंक मेळ्ळीं. निखटो पावसूच न्हय तर ते प्रमाण बदलत वचपी हांगचो सैम पळोवन एखाद्र्या सुवाळ्या सारकें दिसूंक लागलें.

*'हिरवे हिरवेगार गालिचे*
*हरिततृणांच्या मखमालीचे.'*

हें अशें जें हांवें फक्त कवितेंत वाचिल्लें ते 'मखमालीचे गालिचे' कितें हें गोंयांत अणभवलें. मराठी कवितांतल्यान वाचिल्लीं पावसाचीं वर्णनां हांगा प्रत्यक्षांत अणभवलीं. शद्बांक वास्तवाचें बळगें मेळ्ळें. बोरकारांच्या कवितेंतल्यान व्यक्त जाल्लो निसर्ग हांगाच वेगळ्या वेगळ्या रुपांनी मेळ्ळो. मोगिका आनी पावस, सैम आनी पावस अश्यो वेगवेगळ्यो प्रतिमा बोरकारान आपल्या कवितांतल्यान उक्तायल्यात. ही एक सुंदर कविता -

*'खिडक्यांवर वाजे वरा ग*
*चल उघड सुंदरी दाराखोडांतुनि फुटले भास*
*दगडातुनि सुटले श्वास*
*रजताच्या झडल्या धारा गसांभाळीत अंचल - ओचे*
*उघडले दैव कोणाचे ?*
*निर्वेध वेचू या गरा ग*
*खिडक्यांवर वाजे वरा ग'.*

अशें पयल्या वळवाच्या वादळी पावसाच्या अचूक वर्णनाक, आपले सखी वांगडा घालोवंक सोदपी खिणांक, बोरकारान एक वेगळें रूप दिवन उतरांनी ताची गुंफण केल्या. बोरकारांची आनीक एक पावसा वयली गाजिल्ली कविता -हातूंत एक सोबीत लयदार गेयता आसा

*'सरींवर सरी आल्या ग*
*सचैल गोपी न्हाल्या ग*
*गोपी झाल्या भिजुनी चिंब*

*थरथर कापती निंब - कदंब*
*घनामनांतून टाळ - मृदंग*
*तनुंत वाजवि चाळ अनंग*
*पाने पिटती टाळ्या ग'.*

'सरींवर सरी आल्या ग' कॉलेजांत आमचे प्राध्यापक डॉ. वि. भा. देशपांडे ही कविता हुबेहूब बोरकरांच्या स्टायलीन आमकां गावन दाखयताले. बोरकारां कडेन तांची खास इश्टागत आशिल्ली. तांच्या ओंठांतल्यान बोरकारांच्यो यादी आयकुपाक आमकां आवडटालें. बाकीबाब बोरकारान कवितेंतल्यान दाखयल्लो पावस पुण्या-मुंबयंत मात अनोळखी दिसतालो. तो पावस हांगा येतकच वळखीचो जालो. बोरकारांचे कवितेंतल्या ह्यो आनीकूय कांय वळी, यादींत उरिल्ल्यो -

*'तुला पहावे कधी भिजताना*
*कधि अथवा पुरती भिजलेली*
*नजर जाऊनी माझ्यावरती*
*क्षणभर लज्जेने थिजलेली'.*

पावस आनी शृंगारीकता आनी आपल्या सखीचीं विविध रूपां बोरकारान तांच्या कवितांतल्यान इतल्या सुंदरपणान मांडल्यांत कीं पावस ना आवडुपी मनशाकूय ह्यो कविता वाचून तो आवडपाक लागतलो. जनेलांत, आंगणांत बसून पावसाची वाट पळोवप आनी तो ल्हवल्हव निस्तूंक लागतकच त्या पावसांत भिजप हें फाटलीं कांय वर्सां अणभवलें. हीच आंगणाची चौकट मोडून, कसलोच बांद नाशिल्ल्या आयस पयस व्हडलो देग आशिल्ल्या, दर्याच्या कांठार बसून पयसुल्ल्यान दाटून आयिल्लीं कुपां लार्गी लार्गी येत रावतात आनी टप टप करीत पावसाचे थेंब आफडून वतात... असो देखाव मनाचेर कायमचो कोरांतलो तो हांगाच. दर्यांत पयस पयस खरी कडल्यान आमचे दिशेन सरकुपी पावस आमी दोळ्यांनी अनुभवतात. पायांकडेन दर्याचीं उसळिल्लीं ल्हारां आनी आणि मुखावेल्यान येवपी पावसाक आपले वेंगेंत घेवपा खातीर हात आपशींच वयर वतात. माथ्यार मळबांतल्यान निस्तुपी पावसाचे टुमटुमीत थेंबे एक अप्रूप अनुभूती दितात. दर्या देगेवयल्या रुपेरी रेंवेचेर पावस थिपक्या थिपक्यांनी आपल्यो अस्तित्वाच्यो कुरवो सोडून वतात. एखाद्री कलात्मक नाजूक रांगोळी काडची तशी पावसाच्या अस्तित्वाची ओडलायणी नक्षी उमटता. पावसाचो पयलो स्पर्श आनी रेंवेचेर उमटिल्ली नाजूक नक्षी अणभवपा खातीर चातकासारखी वाट पळोवंची पडटा. गोंय बाराय म्हयने पाचवेचार. पूण पावस पडून वतकच हांगाच्या सैमाक मेळपी पाचवो पदर आगळोवेगळो. गिमान सुकिल्ली न्हंय लेगीत ह्या काळांत आडांगी जावन प्रवाही जाता. बोरकारान कवितेंतल्यान सगळ्यां मुखार मांडिल्लें तें गोंय तें हेंच हाची अनुभूती दिवपी जायते प्रसंग गोंयच्याच मातयेंत अणभवले. बाकीबाबान म्हाका गोंयचेर प्रेम करपाक शिकयलेंच पूण तेच वांगडा पावसाळो कसो जियेवचो हें शिकयलें. पावसाळो आतां म्हजे खातीर हो फक्त एक ऋतू म्हणून उरूंक ना तर इश्ट जाला. एखाद्र्या आदल्या इश्टाची नव्यान वळख जावची तसो हांगाचो दरेक पावसाळो नव्यान कळूंक लागला.

संपर्क : 9730871118

***(अणकार: मुकेश थळी)***

---

*(पान १० वयल्यान)*

कॅनवास, घोग्यांनी पडपी तो पावस..... आनी कितल्याशाच आवाजांचें संगीत, खंय तरी आसमंतात धडधडपी द्रुत लयेंतलो तराणो, मेलडी, हार्मनी, कुपांच्या नगाऱ्याचो घुमारो, पावसाच्या तबल्याची टांकणी,... अलौकीक अद्वितीय. वाऱ्याचो नेट, पावसाचो वेग, विजेची गती म्हज्यांतल्या प्रज्ञेच्या प्रमेयां कुवाडीं सोडोवपाचे गणितीय बुदवंतकायेक आव्हान दित रावता. जलतरंग वाद्यांतल्या कपां भशेन भरून ओतपी तळीं आनी तांचेर वाद्याच्यो बडयो तणतणच्यो तसो तो उचांबळ पावस, कुडकुडपी वेली झिली झोपां झाडां, विविध मळबरंग सगळे सगळे म्हज्यांतल्या प्रतिभेक काव्यहरूप हाडटा. विश्वभर आयसपयस शेकानशेक पातळिल्लें व्हडलें जलतरंग वाद्य वाजना मूं अशें दिसूंक लागता... कितें आयकूं, कितें पियेवन अंतरंगांत सांठोवं, कितें पळोवं... हांव खंयच्या भिजिल्ल्या, ओल्या विश्वांत पावलां काय, कांयच कळना... एक कविता अवसर आयिल्ले वरी म्हाका ग्रासून उडयता अशें दिसता... तीच तिचो माथाळो कानांत फुतफुतून सुचयता - जलतरंग!

संपर्क : 9423056755


गोंयचो
# शिवराक उपाहार




Goenchim Shivrak
Khanam Jevnam

now in a new style

**Amita Salatry**
opens up
vegetarian dishes in a
Goan Culinary Bonanza.

Price: ₹ 120/-
Pages: 88
Publication No: 128
ISBN: 978-81-85854-37-8
Size: 14.2cms x 22 cms

ORDER ONLINE

राजहंस
**RAJHAUNS SANKALPANA PVT LTD**
1-Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 001
Ph : 2220320 / 2232177 | E-mail: rajhaunsgoa@gmail.com
www.facebook.com/rajhauns | www.rajhauns.com




# थिगुरांचो पावस

**रमेश लाड**

हांवें थिगुरांचो पावस म्हणलां ताचो अर्थ पावसांतल्यान थिगूर सकयल पडले असो मात न्ही आं. ही एक याद भुरगेपणांतली. पुराय रातभर थांबनासतना पडिल्ल्या पावसाची. त्या पावसाक लागून आमकां थिगूर मेळ्ळे. आनी मेळ्ळे ते कितले म्हणून सांगूं? एकदम रासभर. आमी जो तोप व्हेल्लो तो सुयेन भरलो. पांच-स मानायांक जेवपाक पावत इतलें शीत रांदपाक पुरो येदो व्हडलो तो तोप आशिल्लो. तो तोप पुराय भरुन त्या दिसा सकाळीं आमी थिगूर हाडले. आमी म्हणल्यार म्हजो धाकलो भाव आनी हांव.

थिगुरांची ही गजाल गोंयांतल्या पेडणे तालुक्यांतल्या आश्वे गांवांतली. तो दीस आशिल्लो मे म्हयन्यांतलो, निमाण्या सप्तकांतलो. वर्स आसत १९६० वा १९६१. हांव इकरा वर्सांचो आनी भाव म्हजे फाटलो.

खूब पावस पडून वतकच सगले कडेन उदक भरता. व्हाळ व्हाळयो व्हांवतात, शेतांची व्हडलीं तळीं जातात आनी सगळी थपथपीत भिजिल्ली भोंवतण पळोवपाक त्या भुरगेपणांत मजा येताली. तापिल्लो गीम सोंसतकच वा असो खूब पावस पडून वतकच येवपी थंडाय कितली सूखदिणी आसता ती हांवें सांगपाची गरज ना. गांवगिरे तें बदलून गेल्लें वातावरण जांणी अणभवलां ते भाग्यवान.

आश्वे गांवांत आमचें घर, दर्या कडच्यान सुमार देड कि.मी. अंतराचेर आशिल्लें. (ही भास आतांची. तेन्ना मैल उतर शाळेंत आयकल्लें. किलोमीटर खबरच नाशिल्लें. भुरगेपणांत लागीं आनी पयस इतलेंच कळटालें) घरा सामकार व्हडलें शेत आशिल्लें. आमचें घर आशिल्लें तें एका भाटांत. त्या भाटाक थळयाचें भाट म्हणटालें. भाटकार कोरगांवांतलो थळी. भाट उंचायेर आनी तें व्हडलें शेत दोन अडेज मीटर खोलायेर सकयल. गांवचो लोक ताका शेळ म्हणटाले. गांवांतले कांय शेतकार थंय सर्द आनी वायंगण रोयताले. वायंगण शिंपपा खातीर शेळीच्या दोन तीन कुशींनी उदकाच्यो पोंयों आशिल्ल्यो. तातूंत सावें नुस्तें, कुल्ल्यो बी आसताल्यो.

खूबशा हेर भुरग्यांवरीच पावस पडून वतकर जें ओलें ओलें उदकाळ शीतळ वातावरण तयार जाता तें पळोवपाची म्हाका उमळशीक आसताली. न्हिदिल्ले कडेन हय न्हयशी मदीं जाग येताली तेन्ना दडकांनी पडपी पावस कळटालो. केन्ना सकाळ जातली आनी पावसान घाल्ल्या धुमशेणाचें चित्र पळयनशें जातालें. त्या खातीर आमी पयलीं धांव मारताले ती ते शेळीचे धडेर. तातूंत भरिल्ल्या उदकान निर्माण जाल्लें व्हडलें तळें पळोवपाचो एक वेगळोच आनंद मेळटालो.

त्या दिसा रातभर रकिल्लो पावस सकाळीं थारिल्लो. सदां परस मातसो बेगीनच हांव जागो जालों. दार उगडून पयल्यान पयलीं शेळीचे धडेर धांव मारली. तेन्ना म्हजे नदरेक जें चित्र दिसलें तें हांव पयलेच फावटी पळयतालो. कसलें तरी नुस्तें त्या शेतांत भरिल्ल्या उदकांत लांब उडी मारिल्ले वरी वयर उसळून परतून सकयल पडटालें. एक दिसता म्हणटासर दुसरें... तिसरें. अशे तरेन कांय कांय अंतराचेर तीं उसळपी नुस्तीं दिसलीं. तीं सदांच त्या कोंडींतल्या उदकांत थारावीक मर्यादेंत रावतालीं. तांका मेकळें उदका मळ मेळिल्लें आनी मेकळ्या मळाचेर गोरवांचीं पाडकां शेंपडी वयर करुन जशीं धांवतात, उसळून उडी मारतात तीच गत त्या नुस्त्यांची जाल्ली आसतली. मेकळिकायेची एक वेगळीच खोस आसता न्हीं! इंटरवाल पडटा आनी शाळा सुट्टा तेन्ना शाळेंतलीं भुरगीं कितें करतात?

ते सान पिरायेर केन्ना तरी कोणाल्याय गजालींनी आयकल्लें नांव म्हाका येवजलें आनी - 'थिगूर' असो उद्गार तोंडांतल्यान भायर सरलो. तसोच धांव मारुन हांव पंदरा सोळा वांवांचेर आशिल्ल्या आमच्या घरा पावलों. आंगणांत आसतनाच हांवें आड्डूलें वरीच आईक उलो करुन त्या नुस्त्याची खबर सांगली. आईनय थिगूर आसतले म्हणपाक तेंको दिलो. म्हजो बोवाळ आयकून म्हजो धाकलो भाव उठून उबो रावलो. ताकाय पळोवपाची उमळशीक. आमी दोगूय रोखडेच थिगुरांचे शिकारेक भायर सरले.

घरांत देडेक वेत लांबायेची मेस्तान आईक करुन दिल्ली सुरी आशिल्ली.

*वरी दाटे संतोषाची सायं...'*

आषाढांतलो म्हजो हो नेट आसरता तो श्रावण म्हयन्यांत. पांचवोचार सह्याद्री आनी निळ्या अरबी समुद्रामदीं बशिल्लो तुमचो सोबीत गोमंत प्रांत. श्रावण हो ह्या प्रदेशातलो सगल्यांत सोबीत म्हयनो. सगळी सृष्टी पांचवीचार जाल्ली आसता. जंय जंय दोळे घुंवडावचें थंय थंय दोळे न्हीववपी पाचवीचार झाडापेडांनी-नटिल्ली भूंय. तुमचेसारको निसर्गप्रेमी कवी ही सोबीतकाय पळोवन पिसो जांवचोना तर किदें? म्हज्या श्रावणांतल्या रुपाचेर, बाकीबाब तुमी उप्पाट कविता रचल्यात. श्रावण म्हयन्यांत म्हजें येवप ते सरसर करुन, पडप आनी कांय खिणांतच नाच्च जावप. त्याच वेळार गोंयांत सगळेकडेन सोबीत पिसोळींय, फुलां झाडांचेर बागडत आसतात. तें सगळे चित्र उतरांनी मांडतना तुमी म्हणून गेल्यात,

*'नाचून मिटली श्रावणधार*
*शीतल पाऱ्यापरिस दुपार*
*निळींतून हिरव्यांत भुरळली*
*पिवळीं सोनपिसोळी चार...'*

व्वा! 'नाचून मिटली श्रवणधार'! किदें बाकीबाब फकत तीन उतरांनी तुमी म्हजें श्रावणातलें रुप समेस्त वाचप्यांफुडें उक्तें केलें. वालोर तुमकां बाकीबाब. ह्या श्रावण म्हयन्यात आनीक कितें कितें जातां ते सांगतना तुमी एका चित्रकाराच्या शैलीन वाचप्यांफुडे मांडटात..

*'कातळ, डोंगर हिरवळ ल्याले,*
*कढ नागांचे शमुनि निघाले,*
*मुंग्यानाही पंख निघाले, वन नंदनसे हरसे रे!*
*घन वरसे रे! घन वरसे रे!'*

या श्रावणा उपरांत येता ती भाद्रपद... आतां म्हाकाय परत वचपाचें वेध लागिल्ले आसतात. भातां-शेतां, पावसातल्यो भाज्यो-वेली तयार जाल्ल्यो आसता. आतां हांव चड वेळ लागनां. कांय वेळ पडटां आनी वतां. 'पाऱ्यासम दोन सरी' ह्या तुमच्या कवितेत म्हज्या भाद्रपदांतल्या वागण्याचे तुमी बेस बरे चित्र मांडला. तुमी बरयतात,

*'अंगणात सडसडल्या पाऱ्यासम दोन सरी*
*सोप्यावर मी इकडे, तू तिकडे माजघरी..*
*...सोन्याच्या क्षण टिपिला घोसाळीं - दुधिणींनी*
*आनी कृष्णकमलकान्त कोमल सुमविहगींनी...'*

आपल्या कवितेंत घोसांळी आनी दुदी हांका जागो दिवपी तुमी एकमेव कवी आसतले बाकीबाब. ज्या तरेन तुमी नुस्तें कवितेंत हाडलां, त्याच तरेन घोसाळींय हाडल्यांत.

बाकीबाब तुमी म्हजेर उप्पाट मोग केलो, म्हाका तुमच्या अजरंवर कवितांनी जागो दिल्लो आनी हांवूय तुमच्या जीणेच्या वेगळ्या वेगळ्या पावंड्यार तुमचो सांगात दित रावलों. तुमकां याद जाता १८ जून १९४६ हो दिस? हय ह्याच दिसा मडगांव शारांत एक ऐतिहासिक पडणूक घडिल्ली. तुमी तेन्ना केप्यां सरकारी शाळेंत शिक्षकाची नोकरी करताले. तुमच्या जीणेक आर्थिक आनी मानसीक स्थिरता दिवपी ती नोकरी. तेन्नाच तुमकां कळ्ळें कीं गोंयांत डॉ. लोहिया आयल्यात. तुमी तांची भेट घेतली. फुडें १८ जूनाक डॉ. लोहियान मडगांव शारांत सभा आयोजीत करुन पुर्तुगेज सरकाराची भाषणबंदी मोडून काडपाचें थारायलें. तो दिस मंगळार. आयज मडगांवां लोहिया किदें तरी करतलो हाचो तुमकां अदमास आसलो आनी त्या ऐतिहासिक खिणाचे साक्षीदार जावपाक तुमी केपेंच्यान मडगांवां आयले. तुमच्या सांगाताक हावूंय आसलो. डॉ. लोहियान भाशणाक सुरवात केली आनी सरकारान तांका अटक केली. तुमी त्या घडणुकेचे गवाय. त्या खिणाचे आपल्याक जाल्ली धन्यताय तुमी परगटायली.



*'धन्य लोहिया, धन्य भूंय ही, धन्य तिचे पूत*
*धन्य तांगेलो त्याग पळेल्ली दोळ्यांतली जोत*
*धन्य हांवय बी बरैलेल्याचो जियेवन साक्षात्कार*
*पवित्र हो मंगळार, आयचो पवित्र हो मंगळार...'*

बाकीबाब त्या दिसा तुजे बरोबर हांवूय बी धन्य जालों. हो दिस फकत गोंयच्या मुक्ती लढ्यातलो निर्णायक दिस थारुंक ना तर त्या दिसांन तुमचेंय जिवीत ढवळून गेलें. दुसऱ्याच दिसा तुमी सरकारी नोकरेचो राजीनामो दिलो आनी मागीर तुमकां गोंय सोडून वच्चें पडलें तें बद्द गोंय सुटके उपरांत तुमी गोंयांत पावल दवरलें. रामा भशेन ह्या बाळकृष्णाकूय चवदा वर्सांचो वनवास सोंसचो पडलो.

असोच तुज्या जीणेंतल्या आनीक एक प्रसंगान हांव तुज्या वांगडा आसता. तुजो पुत चंद्रनाथ व्हड जातगेर अमेरिकेक गेलो तेन्ना. एका बापायचें काळीज कितलें मोव आसता ते हांवें त्या दिसा अणभवलें. त्या दिसा तुमी कवी नासले तर एक बापूय आसले. चंद्रनाथाचे विमान उडत वयर वयर गेले; तरी तिचो फाटलो तांबडो दिवो कितलो तरी वेळ पावसान भिजत तुमी पळयत रावले. आपलो तो अणभव कागदार उतरयतना तुमी म्हणटात,

*'...ठिपका होत वेगाने अंतरिक्षांत विलीन होणारा*
*त्याच्या मागचा तो लाल दिवा*
*मी न्याहाळीत होतो वेड्यागत;*
*अंतर्धान पावला तरी अंतर्बाह्य भिजत*
*त्या मध्यरात्रीच्या भुरभूर पावसांत...'*

आतां परतून एकदा वैशाख सोपून ज्येष्ठ म्हयनो येवंचो जालो. सृष्टीचे ऋतुचक्र चलत रावतलें. धर्तरी सामकी तानेन व्याकुळ जाल्या आनी म्हजी वाट पळयत आसा. परत एकदां हांव नव्या उमेदीन, नव्या उत्साहान पडूंक लागतलों, परत एकदां तुमच्यो कविता काळजात, घोळयत रावतल्यो. तुमी बरयलां,

*'मरायचें नाही मला जगायचें आहे*
*येथे मुला माणसांत, पानां फुलांत कणसांत*
*उन्हा वाऱ्या पावसांत फुलायचे आहे'*

बाकीबाब, वोत, वाऱ्याचें, पानां-फुलां-कणसांचें म्हाका खबर ना. पण धर्तरेर पडपी पावसाच्या प्रत्येक सरीन, आनी सरींतल्या प्रत्येक थेंबान तुमी फुलत रावतले, तुमी जगत रावतले, तुमी वाढत रावतले हे निश्चित... हे हांव तुमकां वचन दितां.

तुमचोच,
**पावस**

संपर्क: ९६६५८७६८६०



# पावस

**रुपा केणी**

आरिका जनेलांतल्यान भायर पळयतालें. झिरी मिरी पावस पडटालो. सामकारचे दोंगर पावस पियेवन पांचवेचार जाल्ले. सगळ्याक पांचवेचार तण किल्लर्ले. कोणाकूय हो असलो पावस नाका सो दिसता. पूण आरिकाक पावस आवडटा. असल्या पावसाक लोक 'किदें हो पिरीपिरी पडटा' अशें वाजेवन म्हण्टात. पूण आरिकाचो, पावस म्हणजे इश्ट ल्हानपणासावन, मागीर तो घसघशानीं पडपी आसूं वा झुप्प करुन पडून वचपी दडक आसूं, दोन दोन दिस लागून पडपी आसू वा झिरी मिरी पावस आसूं आरिका खूश. हेर लोक कशे पिरंगत आसतात. 'शी बाये! विटयले ह्या पावसान', 'कपडे भिजले', 'सगळ्याक उदक भल्ले', 'थंडी जाली', 'ग्रिप आयली'. आरिका पावस ईंजोय करता. ताका पावसात भिजपाक आवडटा. सगळी ताका हांसतात. आवय ताका म्हण्टा, आगो वाडिल्लें चली तू, किदें ही पिशेपणां. आरिका तें कानामनार घेना. ते सदांच खुश पावसादिसांनी.

पडट्या पावसानच तर ताका अनलान पळयल्ले. ताणेय पडट्या पावसानच अनलाक पळयल्लो. दोगांयनीं एकमेकाक पावसानूच पळयिल्लें. त्या दिसा सकाळफुडेंच तें ताकतिकेन बसस्टॉपार आयिल्लें. ताजो ते दिस वाडदीस आसलो. म्हण ताणे साडी न्हेशिल्ली. ताका लागून मातसो कळाव जाल्लो. ते स्टॉपार पावपाक दडक आयली. बस येवं नासली, इतल्यांत एक मोटार स्टॉपार थामली. थंयचो एकलो हांसत मुखार आयलो. आरिकान कोणाची गाडी काय म्हूण पळोवपाक नदर वळयली. त्याच खिणाक गाडयेंतल्यान अनलान ताका पळयलें. खिणभर दोगांयनींय एकमेकांक पळयले. आरिकाचे सोबीत, आकर्शक मुखामळ लांब केसांची वीणी, उजव्या खांद्या वयल्यान मुखार आयिल्ली, लेव गुलाबी साडी ताज्या गोऱ्या रंगाक दावताली. आरिकाचें सोबीत मुखामळ अनलाच्या दोळ्यांतल्यान ताज्या काळजांत अचळय, अळंग देवलें. त्या मुखार आयिल्ल्या मनशाक घेवन अनलाची गाडी गेली. अनलाक त्या सोबीत चलयेक गाडयेंत लिफ्ट दिवचें अशें दिशिल्लें. चली अनवळखी म्हण तो अनमनिल्लो. ह्या घडणुके उपरांत दरेका राती आरिकाचें मुखामळ अनलाच्या सपनांत येवन ताका बरेच सतावपाक लागलें. ताजी न्हिद खळपाक लागली.

एक दीस अनल कंपनीच्या कामाखातीर एका सरकारी कार्यालयांत गेलो. थंयच्या ऑफिसरान ताका आठ नंबराच्या टेबलार धाडलो. पळेता जाल्यार किदें? ताज्या सपनांतली सोबीत तरणाटी त्या टेबलार बशिल्ली. पुण तिणे कांयच वळख दाखयनासतना ताचें काम केलें. अनल निर्शेलो. घरा वचून ताणें आपलो सी.आय.डी. त्या कार्यालयात सोडलो. ताज्या व्हडल्या भयणीन सगळी म्हायती काडली. रोखडीच चक्रां घुंवडावन आरिकाची सोयरीक अनलाक हाडली. मे म्हयनो सोपता सोपता दोगांयचे लग्न जालें एका वर्सान. ताज्या मजगती अनलाचो बापुय दुयेंत जाल्ल्यान लग्न मातशे फुडें धुकल्लें. तीं हनिमुनाक गेली तेन्ना पावस पडटालो. आरिका सामके खुश जाल्ले. ताका पावसान भिजपाक आवडटालें. पावस पळयतच "तूं इतले भुरकुट्टा कित्याक?" ताका अनलान विचारलें, "खबर ना, पुण ल्हान पणासावन पावसाळो म्हाका आवडटा" ताणें म्हळें.

थोड्याच तेंपान अनलान आपली स्वत:ची कंपनी काडली. त्या मजगती तांगेर दोग चले जाले. अवनिश आनी अरिंद. कंपनीचो बरो जम बसतकच आरिकान शिर्विस सोडली. कंपनी आता बरीच तरतरार पाविल्ली. शारापसून मातसो पयस जागो घेवन अनलान सुंदर बंगलो बांदलो. आरिकान बंगल्याक नांव दिलें 'मेघ'. आता तांगेर माळी, शॉफेर, वावराड्यो, रांदपी, पानरवी आयले. शारांतल्या अती गिरेस्तांखातीर तांची गणना जावपाक लागली. पुण आरिका पयलींभशेनच आसले. घरा फाटल्यान मळार झिरीमिरी पावसांत तें तशेंच फिरपाक वताले. कुडीच्या व्हडल्या जनेलांतल्यान पावस तोखेतालें. केन्ना वारांदावेल्यान दडकेचो आनंद घेतालें. पावस ताजो जिवा भावाचो इश्ट.

म्हण्टा म्हण्टा भुरगे व्हड जाले. अनलान तांका कंपनीत पार्टनर केले. तांची लग्नां जावन भुरगीं जातकच कंपनीतलें आपले आंग काडून घेतले. गरज पडल्यारुच तो थंय वतालो. बागकाम करप, माळ्याक तरेकवार सुचोवण्यो दिवप, आरिका वांगडा पासयेक वचप, बॅडमिंटन खेळप, सांजेवेळा क्लबांत वचप असो करुन दोगांय एकमेकाच्या सांगातान दिस घालयतालीं. नातरां आशिल्लींच बोवाळ घालपाक. दोगांयचीय जीण खोशयेन उपाट भरिल्ली. आरिकाच्यान आतां पयली भशेन पावसांत भिजपाक जायना आशिल्लें. पुण ते वारांदावेल्या वा कुडीच्या जनेलांतल्यान पावसांक तोखेतालें. त्या मानान अनलाची भलायकी बरी आसली. पुण ताका भिजपाक आवडनासलें.

दर वर्सा येता तसो जूनांत पावस आयलो. ह्याय वर्सा पयली कांय दीस बरो पडलो मागीर सामकें सुकेंऽ. आरिका मातशें वाजेलें. पुण जून सरता सरता मात तो ठाण दिवन बसलो सामको. भुरगीं शाळेंत वचनासतना घराच आसलीं त्या दिसा. इतल्यांत मातसो आसोर जालो. अनलाचो 'टफी' सूणो सामको काकुटेक येवन कूंय, कूंय करपाक लागलो म्हण अनल ताका घेवन फिरोवपाक गेलो सदचेवरी. दोगांय जाण घरा फाटल्या मळार वताले. अनलान उडयिल्लो पेल्ल तो दिस्त सोदून हाडून दितालो. इतल्यात गडगड मारपाक लागलो. भियोवन

*(पान २१ चेर)*



# कविते विशीं

माधव बोरकार



सकाळी व्हॉट्सॲपाचेर जयंत मुळगांवकार हांणी धाडिल्लो विलियम बटलर येट्साचो एक quote वाचपाक मेळ्ळो. येट्स म्हण्टा: what can be explained is not poetry म्हजे नदरेन हें कवितेसंबंदान आशिल्लें एक अर्थपूर्ण विधान. ह्या संदर्भात म्हाका शंकर रामाण्याची याद जाता. कांय अणभव दुसऱ्या खंयच्याच माध्यमातल्यान व्यक्त जावंक पावनात अश्या अणभवांक कविता हीच एक अभिव्यक्ती आसता. हे खातीर ते मिंगेल लॉर्ग ह्या पुर्तुगेज कवीचे कवितांची देख दिताले तेच बरबर बाकीबाबाली 'जपानी रमलाची रात्र' सारकिली कविता घेताले. 'जपानी रमलाची रात्र' कवितेंतलो Sensuas अणभव फक्त कवितेंतल्यान व्यक्त जावपाचो. तो अणभव इतलो तरल तो शद्बांचे चिमटेंत धरपाक येना. 'क्षितिजी आलें भरते ग' ही बाकीबाबाली दुसरी कविता अव्यक्ताक व्यक्त रुप दिवपी. फॅड्रीक गार्सिया लॉर्का ह्या स्पॅनीश कवीच्या ह्यो वळी:

The round silence of night
and note in the stave
of the infinie.
Ripe with lost poems
I step naked into the stresta

येट्साच्या विधानाच्या लागीं येतात. पूण सर्वाथान न्हय. अशे तरेचे अणभव आपले भितर ओढून घेवपाची तांक कवी भितर आसची पडटा. कोंकणी कवीमदीं रामाणी आनी पांडुरंग भांगी हांचे कवितेंत ती तांक दिसता. 'तुजे आंग म्हज्या आंगार/ फुल्ले मोगा मोगरे कळे' अशें म्हणपी मनोहरराय, ही तांक कित्याक होगडावन बसले ह्या प्रस्नांची जाप सोदपाक जाय.

खासा येट्साचे कवितेचो विचार करुंया. येट्साचे कवितेक एका परस चड आयाम आसात. ताणे निसर्ग कविता बरयल्यो तेच बरबर खर राजकीय आनी सामाजीक जाणिवेच्यो कविता केल्यो. ताकाच लागून The second coming हें कवितेतल्यो. Things fall about the centre cannot hold / more anarchy is loosed upon the world ह्यो अर्थपूर्ण आनी खंयच्याय एका काळाक लागू जावच्यो नात अश्यो वळी तो बरोवन गेलो. हाचें एक कारण म्हणल्यार आर्यलॅंडचे अस्मितायेच्या झुजांत तो वांटेकार जालो. आर्यलॅंड मुक्तीच्या झुजांत जे अंतरले. तांचेर ताणे कविता बरयल्यो. मनोहरराय आनी येट्स हांचे मदीं हांगा सारकेंपण आसा. मनोहररायांन अश्यो उद्येशिका बरयल्यात. अशे जरी आसलें तरी येट्साचो नीज पिंड हो अध्यात्मीक कवीचो. ताच्यो कितल्यो तरी देखी ताचे कवितेंत मेळटात. "The Dialogue of soul self and soul" सारकेली कविता ताची एक उत्तम देख म्हणूं येता.

I am content to it all again
And yet again, if it be life to pitch...

ताच्यो ह्यो वळी जीणेचें गूढ सोडोवपाचो यत्न करता. ताकाच लागून येट्स हो भारतीय तत्वज्ञानाच्या लागीं पावलो. टागोराची कविता आसूं वा उपनिशदां हांचो अभ्यास केलो. पुरोहित स्वामी ह्यो ताच्यो सुरवेच्या काळांतल्यो कविता १८८९ प्रसिद्ध जाल्ल्यो. हो प्रभाव कांय प्रमाणात अखेर मेरेन उल्लो. सामाजिक वा राजकीय जाणिवेतल्यान ताची कविता तशी मुक्त जाली ना. अशें आसलें तरी ती खऱ्या अर्थान ओडटा ती गूढवादाकडेन. तो आसतना कबीर आनी तुकाराम हांचे अणकार जावंक नाशिल्ले. ताका हे अणकार वाचपाक मेळिल्लें. जाल्यार गटे कालिदासाचें 'शाकुंतल' माथ्यार घेवन नाचलो अशें एक चित्र दोळ्यां मुखार येता. येट्साचें एक म्हत्वाचें विधान आसा: We make out of the quarrel with others, rhetoric, but of the quarrel with ourselves serves poetry. ह्या विधानातल्या दुसऱ्या भागाक ताणे खऱ्या अर्थान पाळो दिलो. हो एक स्वतंत्र अभ्यासाचो विशय.

२

१३.५.२१

जॉन किट्स विशीं एक खबर वाचिल्ली. Oxford Book of Literary Enecdotes ह्या पुस्तकांत आसुंये. हें पुस्तक तूर्त म्हज्या हातालागीं ना. यादीचेर विश्वास दवरुन बरयतां. किट्स खूप तरणो पिरायेर हो संवसार सोडून गेलो. ह्या ल्हान अवकाशात ताणे जी निर्मणी केली ताका तुळा ना. ताका एक सवंय आशिल्ली. तो मेकळ्या कागदांच्या कुडक्यांचेर बरयतालो आनी ती कागदां खंयच्या तरी पुस्तकांत वा आपल्या मेजाच्या खणांत दवरतालो. एक फावट ताचो एक इश्ट ताका मेळपाक आयिल्लो आसतना ताणे किट्साक अशेच कांय कागदांचे कुडके पुस्तकांत घालून दवरतना पळयले. आनी उमळशीकेन ते कसले ते पळयलें. ते एके कवितेचे आशिल्ले. मजेची गजाल म्हळ्यार खासा कवीक तांचो क्रम लावंक जमना जालें. ते काम ताच्या इश्टान केलें. ती कविता म्हळ्यार 'ओड टू नाइटेंगेल' ही मुखार ताची गाजिल्ली आनी इंग्लीश भाव कवितेच्या इतिहासांत वाटचिरे थारिल्ली कविता. कवीचे हे वृत्तीक लागून ताच्यो कितल्यो तरी कविता शेणल्या आसूं येता. बाकीबाबाकूय सुरवेच्या काळांत कादेर्न करुन त्यो बरोवन दवरपाची शिस्त नाशिल्ली. ताका लागून तांच्यो कांय कविता शेणल्यो. पूण तांची कागदपत्रं मात ताणी सांबाळून दवरिल्ली. आजुय

तांतुतल्यो कांय कविता हाताक लागतात. हालींच अशीच तांची एक सुंदर कविता तांची चली मुक्ता आगशीकार हांकां मेळ्ळी. पु. शि. रेगे, रामाणी सारकिल्या कवींची गजाल वेगळी. रेगेच्यो सुरवेक सावन बरयल्ल्यो सगळ्यो कविता व्यवस्थीत कादेर्नाचेर बरोवन दवरिल्ल्यो मेळटात. रामाण्यालोय दवरिल्ल्यो मेळटात. रामाण्याकूय तशीच सवंय आशिल्ली. कविता बरयतकच ती कादेर्नाचेर बरोवन दवरप हे तांचे सवंयेक लागून तांचेर अभ्यास करतल्यांक बरें जालें. घडये तांकां पळोवन आसत म्हाकाय ती सवंय लागली.

गटेन म्हळ्ळां: कविता बरयतकच तिची जल्म तारीख आनी जल्म थळ हांचीय नोंद करची. हाचो अर्थ असो की दर एके कवितेक तिचें म्हूण एक चरित्र आसता. आज काल graphical criticism हाचेर कांय समिक्षक भर दितात. मराठीत म. वा. धोंड हांणी मर्ढेकराचे कवितेची ते नदरेन समिक्षा केल्या. तांचीं सगळींच मतां पटपासारकीं नात. पूण कवितेकडेन वचपाची ती एक वाट आसूं येता हें न्हयकारुंक येना. कवितेचे drafts दवरुंक जाय अशें म्हाका दिसता. कवितेचो अभ्यास करतना ताचो फायदो जावं येता.

३

कुमार गंधर्व हो संगिता सबंदान खोलायेन अभ्यास आनी विचार करपी. एके कडेन ताणी आपलो एक अणभव सांगला तो विचार करपासारको आसा. मुंबय पंडित देवधराकडेन गाणे शिकतना ते अंजनीबाय मालपेकार हांचेकडेन तालीम घेताले. खरें म्हळ्यार अंजनीबायन गाणे आनी तालीम दिवप बी बंद केल्लें. पूण ताका कुमार गंधर्व आडवाद आशिल्ले. कुमार तांकां म्हण्टाले किर्ते सुंदर हो गंधार लागला वा ह्या अमक्या रागांतले हे सूर कितले सुंदर लागल्यात. ताचेर अंजनीबाय म्हण्टाल्यो हाका सूर लागला अशें हांव समजना. आनी खऱ्यानीच एक दीस तांकां जाय तशे स्वर लागले आनी कुमारांक स्वरांचो खऱ्या अर्थान साक्षात्कार जालो.

संगीतात जशे स्वर तशेच कवितेत शद्ब अशें म्हणूं येता. स्वर तेच आसतात तशे शद्बूय तेच आसुनूय एखाद्री कविता एक आगळी वेगळी अनुभूति दिवन वता. घडये शद्बांक आपले योग्य जागे मेळिल्ल्यान आसुंये.

कवितेचो आशय शद्बांचो वापर आनी अभिव्यक्तीक आयिल्लें तोंक हाकाच लागून ती कविता एक वेगळो साक्षात्कार घडयता. बाकीबाबाली 'पांयजणा' ही कविता प्रेमानुभव व्यक्त करता. पूण तातूंत संगिताची एक आगळी वेगळी लय आसाच पूण तेच बरबर चित्राचो घटक तिका येवन मेळ्ळा. तेंच ते अभिव्यक्तीचें वेगळेंपण स्वरांभशेनूच शद्बांचें. माध्यमा मात वेगळीं.

ह्या संदर्भात कुमारजीचें एक भाश्य आसा तें लक्षांत दवरपासारकें आसा. ते सांगतात, ''स्वाभाविकपणे आवाज काढण्याचा त्यांचा विशिष्ट प्रकार होता. महिना दीड महिना झाल्यानंतर हे जे त्यांचे सूर लागूं लागले आणि खरोखरच ते ऐकल्यानंतर त्या काय मला म्हणत होत्या ते त्या वेळेला कळायला लागले.

...एरवी आपण नुसते ऐकतो. ईश्वराचे दर्शन झालं म्हणजे भक्ताची काय हालत होत असेल ते भक्तालाच कळू शकतं. तसे त्यांचे सूर लागल्यानंतर खरोखर रोमांच उभे राहात. स्वत:च्या आणि दुसऱ्यांच्याहि अंगावर...'' आनी कविता ह्या विधानासावन पयस रावना. 'पांयजणां' ही कविता खासा कवीकडल्यान आयकप आनी अभिषेकी बुवांच्या सुरांतल्यान आयकप हो एकाच सारको अणभव दिता.

संपर्क: 9420222876



*(पान १२ वयल्यान)*

सोंपता, मागीर पावसाचो नेट मात्सो उणो जाला तो पळोवन शेतकार शेतांत वचून सारें मारतात.

सारें मारतकच पावसाच्या नेटार पंदरा विस दीसानी भात झबाझब वाडटा आनी प्रसवपाक लागता. भायर सरूंक लागिल्ले कणशेक पळोवन शेतकार खोशयेन दीस मेजूंक लागता.

ऋषीपंचमे दीसा गणपतीक आपल्या शेतांतले नवे कणस ओंपप हें शेतकाऱ्याक खूप सुखदिणें आसता. अंदू म्हज्या शेतांत नवें कणस मेळटलें, म्हाका दुसऱ्याच्या शेतांत कणश्यो सोदूंक भोवंचें पडचें ना.. सदभावराती शेतकार एकटोच खोशयेन वथरेता.

चवथीक शेतांतलें नवें कणस गणपतीक ओंपताना शेतकार भावुक जाता, बरो पावस दिवन अंदू शेत बरे पिकयलें म्हूण तो देवाचे मना काळजांतल्यान उपकार मानता.

सेतेंब्राच्या निमाण्या सुमानांत पावसाची हजेरी मात्शी कमी जायत वता आनी शेताचो पाचवो कोर हळूहळू बदलूंक लागता, अक्टोबरांत शेत भांगरा कोरांचें जाता, आपल्या शेतांत भांगर पिकलें म्हूण शेतकाऱ्याक स्वर्ग सुखाचो आनंद जाता.

मदीं मदीं काळीं कुपां एकठांय जावन पावस झडत आसता, शेतांत 'हार्वस्टर' देंविल्ले आसतनां शेतकार मळबाकडें पळोवंन हात जोडता... ''अंदु आमचीं शेतां बरीं पीकयल्यांय तीं बरे भशेन सुकीं घरा व्हरुंक दी रे म्हाराजा.''

पावस बरो मुडान आसत जाल्यार ताचे आयकता नातर पिसो कसो पडत रावता. केन्ना भात वारें करतना, तर केन्ना भात सुकोवन साकांत भरतना.

मदींच आठ धा दीस तो संन्यास घेवंक हिमालयाक गेल्ल्या वरी नाच्च जाता, गांवांतले तरणाटे म्हणटात पावस गेलो रे.

जाण्टे कांय उलयनास्तना मुमुरके हांसतात.

मागीर मदीं एके रातींर मध्यानेर तो गडगड, जोगलावणें मारीत परत येता, आनी सगळो गांव हालोवंन उडयता.

तरणाटे म्हणटात, हो परत आयलो आतां आनी हो धा पंदरा दीस तरी हालपाचो नां...

आपले जिणेंत अशे पावसाचे खूप खेळ पळयिल्ले जाण्टे परत हांसून ओगी रावतात, तांका खबर आसता आनीक चार दिसांनी हो तोडयो पावस गांवांतल्यान वचपाचो आसा म्हूण....

''अंदू बरो पावस पडलो, पिकावळ बरी जाली, फुडाराकूय बाबा असोच वेळार यो रे आमी तुजे सदांच उपकारी...''

जाण्टे मनातल्या मनांत पावसाचे उपकार मानतात.

संपर्क : 9850453355



# नेमेची येतो मग पावसाळा



कृ. म. सुखठणकार

आमचे मुस्तींत (पन्नाशी हुपतकच आमचे मुस्तींत बी म्हणू येता) पावस आनी आमची शाळा वांगडा सुरु जाताली. आज ती परिस्थिती उरुंक ना. आयज पावस आनी शाळा केन्ना सुरु जायत हें कोणूच सांगू शकना. कोणूच म्हणजे पर्वरीचें शिक्षण खातें आनी आल्तिन्ह्या वयलें हवामान खातें. कुयदाद! तर, आज जशें पावस आनी शिक्षण बेभरवश्यांचें जालां तशें तें तेन्ना नाशिल्लें.

*'वैशाख मासी प्रतिवर्षी येती*
*आकाशमार्गे नवमेघपंक्ती*
*नेमेची येतो मग पावसाळा*
*हे सृष्टीचे कौतुक जाण बाळा'*

पाटील गुरुजीन आमकां शाळा सुरु जातकच भायर घालून घेतिल्ल्या पावसा कडेन जनेलांतल्यान पळयत सांगलें.

''आम्हाला ती काही नविदाद नाही गुरुजी. नेमेची येतो मग पावसाळा म्हणुनच आम्ही मिर्ग पांच आनी सात जून ला फिक्स ठेवली आहे''- दत्ता.

''मग काय! पांच तारखेला ख्रिस्तांव भावांचं आनी सात तारखेला आमचं''. हांवे म्हज्या बारीक आवाजान दत्ताक पाठिंबो दिलो.

''आम्ही सांग सांग भोलानाथ पाऊस पडेल काय शाळे भोवती तळे साचून सुट्टी मिळेल काय? असले फालतू प्रश्ण दारात आलेल्या नंदी बैलाला विचारत नाही. आम्ही सांग सांग भोलानाथ आमच्या मिर्गाला पाऊस पडेल काय? पाऊस पडून सगळीकडे खातड होईल काय असं विचारलं असतं''- दत्ता.

''मग काय! केवढी चिंता असते आम्हाला, आमच्या मिर्गाला पाऊस पडतो का नाही ह्याची!''- हांव.

'चक्क डोळ्यां समोर ऋतु कूस बदलून घेतो' अशें कवी सौमित्र एकेकडेन म्हणटा. म्हजोय अणभव तोच्च. पावस म्हणल्या बराबर कांय गजाली म्हज्या दोळ्यां सामकार आजूय तश्याक तश्यो उब्यो रावतात. हांव म्हज्या शाळेच्या नव्या पाठ्यपुस्तकांक आनी कादेर्नांक कवरां घालपाक बसलां. कवरां घालतना हांव मदीं मदीं नवीं पुस्तकां उगडून दोळे धांपून तो वास म्हज्या पुल्मांवां भितर भरुन घेतां. भायर पोर्सांत घोटांच्या आनी आंब्याच्या काथ्यांच्यो राशी पडिल्ल्यान किमसां जाल्यां आनी तीं म्हज्या दोळ्यां सामकार भोंवतात. कवरां घालतना हांव मदीं मदीं तांकांय आमडूपाचें काम करतां. कुशीक जमनीर बसून आई दिव्याच्यो वाती वळटा. तिचे पांयां कडेन येवलां घुटमळटात. 'पावस येता सो दिसता हीं येवलां म्हजो जीव खातात' अशें म्हणत आई तांका आमुडटा. आनी अचकीत थंड शीतळ वारो सालांतल्या जनेलांतल्यान भितर सरता. सालाचें जनेल 'घडायंच' करुन वण्टीर आपटता, 'खंय तरी पावस पडलो सो दिसता' आई अशें म्हणटा थंय आसा मागिलदारा पावस पत्र्यांचेर तासो वाजयता.

''आगे बाये हो आयलो सो दिसता! मागिलदारा दोरयेर कपडे घाल्ले भिजयले दिसता हाणे!''

अशें म्हणत आई वाती कुशीक दवरता आनी मगिलदारा धांव मारता. 'चक्क डोळ्यां समोर ऋतु कूस बदलून घेतो' तें अशें. पयल्या पावसांत आजूय आमचें भायर सुकत घाल्ले कपडे भिजतात कशे म्हूण खबर ना. आतां आईची धोपरां तिका साथ दिनात म्हणटकच ही 'आवय म्हजे' अशें म्हणत कपडे खंय सुकत घाल्या ते दिकेन धांव मारपाचें काम करता. पावसा आदीं आमी कुल्व्यांवां, हिचे शालू, णववारी कापडां बी वताक सुकत घालतात. ताका आमी वत दाखोवप म्हणटात तुमचे म्हायती खातीर. आजूय पावसाचें आगमन जांवचे आदीं हांव दोळ्यां सामकार भोंवपी किमसांक आमडीत खंयतरी बशिल्लों आसतां. कितलीं वर्सां जालीं तरी हे किमसांनी म्हजो वांगड सोडूना ही म्हजे खातीर समाधानाची गजाल. किमसां जाल्यार किमसां! कोण तरी वांगडा आसा.

पावस हो रसीक मनशाचोच रुतु अशें म्हजें मत. 'बॉब मारली'न 'Some people feel the rain, others just get wet' म्हणलां तें हेच खातीर. 'भायर सरपाक ज्यूस्त आयलो भिजोवपाक' असलीं उतरां जांचे तोंडार आसात तांचे खातीर हो रुतु न्ही. हीं पाचारपाक गेल्ले कडेन साडयेच्यो मिरयो आनी शर्टाचें फेर सांबाळपी मनशां. हांचे खातीर पावस दीसभर पिरपिरता वा रकता. असल्या मनशांची काकुळट करीत तितली थोडी. पोरूं पावसांत मिसेस पोरोब धवे साडयेन चिप्प भिजून घरांत सरतना म्हजे नदरेक पडली. नदरेक पडली म्हणटकच हांवे (आमचे) जनेलांतल्यान 'आवयस जुदाई सिनेमांत रेखा अशीच धवी साडी न्हेसून चिप्प भिजता ती याद जाली' असो कॉम्प्लीमेण्ट मिसेस पोरोबाक दिलो. 'घोवान मारलें आनी पावसान भिजयलें कोणाक सांगतलें? तातूंत धवी साडी शेर्त चिटयो पडटल्यो' अशी तिचे कडल्यान जाप मेळटकच हांवे जनेल (आमचें) धांपलें आनी घट्ट खिळी घाली. आसूं. ह्या असल्या मनशांक पावस पडटकच खोस जायना अशें न्ही पुणून ताचे फाटलीं कारणां वेगळीं आसतात.

१. भायर दवरलेली गाडी बशिल्ले कडेन नितळ जाता मागीर सत्री घेवन कपडो मारल्यार पुरो.
२. पोरसूं फुकटांत शिपून जाता.
३. पावळे खाला दवरलेल्यो बालद्यो संडासांत रकोवंक मेळटात (व्हेस्टर्न टायप संडास आसत जाल्यार जतनाय घेंवची).
४. पावसांत साळवले धरण भरलें की एक फॅमिली ट्रिप काडप जाता.
५. हे पावस मिलीमिटरान मेजपी प्राणी. गोंयचीं सगलीं धरणां उपाट भरलीं अशी बातमी दिसाळ्यांत झळकतकच त्या दिसा हो प्राणी वर्साची उदकाची तजवीज जाली म्हणून सुस्त न्हिदता.

आमची शिक्षण पद्धतूय आमकां अरसीक करपाक हातभार लायता असो म्हजो जाहीर आरोप आसा. हांव आमचे सरकारी प्राथमीक शाळेंत सरस्वती पुजनाक मुखेल सोयरो म्हणून गेल्लों. त्या दिसा सावन दिसाळ्यांनी म्हजी वळख शिक्षणतज्ञ अशी जाता. म्हणटकच म्हाका असो आरोप बी करपाचो हक्क आसा हाचेर कोणाचें दूमत आसचें न्ही. सोड. तर, पाटील गुरुजीन आमकां, 'पाऊस पडणे ही नैसर्गीक घटना आहे' अशी पावसाची वळख करुन दिल्ली. हाचे परस पावसाची सुकी वळख आनीक करुंक जांवची नाशिल्ली अशें म्हाका दिसता. पावसाची वळख अशी जातकच विद्यार्थीगण कितले रसीक जातले हाचो अदमास तुमकां आयलाच जातलो. 'पाऊस कसा पडतो' ह्या प्रस्नाची जाप बरोबर दिल्यार आमकां पांच गूण मेळटाले. 'वातावरणातील ढगां मधील बाष्पाचे द्रवीभवन होऊन पृथ्वीवर पाण्याचे थेंब पडू लागतात. हवा थंड झाल्याने आद्रतेचे प्रमाण वाढल्याने पाऊस पडतो'. अशी ती जाप आशिल्ली. इतलें सगलें मार्जीन बी सोडून नितळ अक्षरांनी बरयत जाल्यार पांच गूण आमचे होटयेंत पडटाले. ही जाप म्हाका आतां म्हणजे नाका तेन्ना जशाक तशी याद जाली हाचें म्हाका अजाप दिसता. तेन्ना हांवे आनी दत्तान एकमेकाक कन्सल्ट करुन 'पैसा खोटा झाल्यावर पाऊस पडतो' अशी मार्जीन सोडून नितळ अक्षरांनी जाप बरयल्ली. हे खातीर आमकां गूण कितले पडले हें सांगून कांय अर्थ ना. ती दत्ताची जाप कॉपी करतना हांवे दत्ताक 'पैसा खोटा होणे म्हणजे कितें रे दत्ता असो प्रस्न केलो. आनी दत्तान 'ब्लॅक मनी' अशी जाप दिली. आसूं.

मनीसूच अरसीक आसतात अशें न्ही हें आमकां भगवद गीता उगडटकच कळटा. भगवद गितेंत साक्षात भगवान कितें म्हणटा तें पळयात, तो म्हणटा 'मासानां मार्गशीर्षोऽहम्'. हाचो अर्थ, तुमचे रांदचेकुडींत खिळ्यार जें कालनिर्णय हुमकळायलां ते कॅलॅण्डरांतलो मार्गशीर्श म्हयनो तो हांव. आमचे रांदचेकुडींत पंचम, संकश्टी, विनायकी अशे ठरावीक दिसा चुकून मांसाहारी जेवण शिजचें न्हय म्हूण कालनिर्णयाची वेवस्था आमी थंयच ओटया शेजरा खिळ्याचेर केल्या. आमगेर कालनिर्णयाचेर नदर मारुन मागीर गॅसार अन्न शिजता, तुमचे म्हायती खातीर. सोड, तो आमचो विशय न्ही. तर, गोपीकां वांगडा रासलीला करपी हो भगवान पावसा बाबतींत असो कसो अरसीक जांवचो असो प्रस्न म्हाका पडलो. हो प्रस्न म्हाकाच पडूं ना. हो प्रस्न 'ऋतुचक्र' हे पुस्तकांतलो 'प्रशांत आणी प्रक्षुब्ध मार्गशीर्ष' हो लेख बरयतना दुर्गा बाईकूय पडला. ती म्हणटा, 'असं काय आहे ह्या म्हयन्यात की श्रीकृष्णाने 'मासानां मार्गशीर्षोऽहम्' म्हणून ह्यालाच गौरवावे'. म्हज्यो आनी दुर्गा बाईच्यो 'ऐसपैस गप्पा' बी जावना तरी आमचे विचार एकूच. सोड, म्हाका मोठेपण नाका. म्हणटकच श्रीकृष्णा बाबतींत ती राधा, त्यो गोपी, ती रासलीला बी पुराणांतलीं वांयगींच समजुपाचीं. कारण आमच्या बाकीबाबान लेगीत पावस पडटकच श्रीकृष्ण दडी मारतालो अशें बरोवन दवरलां. संदर्भ 'सरी वर सरी आल्या ग' ही कविता. ते कवितेंतल्यो ह्यो वळी पळयात. आमचो बाकीबाब मराठींत म्हणटा 'वनांत गेला मोर भिजून, गोपी खिळल्या पदी थिजून, घुमतो पावा सांग कुठून, कृष्ण कसा ना उमटे अजून'. बाकीबाबाक हे सगले प्रस्न पडल्या कारण कृष्ण भर पावसांत खंयच दिसना. म्हज्या हिसपान तो आपल्या महालांत सगलीं जनेलां वावजड बी येत म्हणून बंद करुन पावा वाजयता आसूंये. मुद्दो इतलोच पावसा बाबतींत देव लेगीत अरसीक आसूं येता. म्हणुनूच श्रीकृष्णाक मार्गशीर्ष म्हयनो भावलो. आसूं ताचें ताका, आमच्यांनी कोणाक फोर्स करुं नजो.

आशाढ म्हणलो की आमकां महाकवी कालीदासाची याद जाता. हो कवी आमच्या मिर्गाक रावना. ताणे आशाढांतल्या पयल्याच दिसा मळबांत कुपां पळयल्या बराबर 'आषाढस्य प्रथम दिवसे मेघमाश्रिलष्टस्नुं वप्रक्रिडा- परिणत-गज प्रेक्षणीयं ददर्श' अशें म्हणत मेघदूत बरयलें. रामगिरी वयर दाटिल्ले कुपांक पळोवन ह्या महाकवीन हें महाकाव्य बरयलें अशें म्हणटात. आमी अशीं कुपां पळयतकच भायर सुकत घाल्ले कपडे, खारें, मिरसांगो बी भितर हाडपाक धांवतात. म्हणुनूच आमचे कडल्यान असलें महाकाव्य बरोवन जांवना आसुंये. आमची धांव चार वळींच्या पावसा वयले कविते मेरेन. आसूं. शापीत यक्ष मळबांतलीं कुपां पळोवन सैमाच्या वातावरणांत धुंद जावन आपले मोगीचे यादीन आकुळ पिकुळ जाता आनी ते कुपां वरवीं तिका आपलो रकाद धाडटा. कालीदासाची ही अफलातून कल्पना. मागीर ही कल्पना खूब जाणांनी जाय जाय थंय आपल्याक जाय जाय तशी वापरली. कुपांचे सुवातेर कबुतरां बी आयलीं आनी जोडपीं 'कबुतर जा जा' बी गावपाक लागलीं. 'काली घटा छाई; प्रेम ऋतु आई, 'आई आई आई आई तेरी याद आई' असलीं पदांय बी कालीदासाचेच कल्पनेर आधारीत आसात. असल्या पदांची वळेरीय व्हडली आसा. आयचे युगान ऑरिजीनॅलिटीचो अभाव आसल्या कारणान आमकां ह्या महाकवीन ही कल्पना दिल्ल्या खातीर नमन करचें पडटलें. मळबांतलीं कुपां पळोवन आमचे कडल्यान काय मेघदूत पार्ट २ बरोवन जांवचें ना म्हणटकच आमी सुकत घाल्ले कपडेच भितर हाडपाक धांवया. सोड. पूण एक गजाल मात खरी कवी मनाचो मनीस भायर पावस झडपाक लागलो की हातांत पेन घेवन मेजा कडेन बसता. ताचे सृजनशक्तीक कोमरी फुटपाचे हेच दीस. म्हाका याद जाता परिक्षे कडेन (फर्स्ट युनीट टेस्ट) पेपर हातांत पडटकच आमचो नागवेकार (प्रॉप. नागवेकार ज्युवेलर्स पाटो सोडून आमची कुठेही शाखा नाही) पेन खाडकेक लावन भायर पडपी पावसाक तेळत रावतालो. आमी आमचे कडेन पेपरांत बरोवपा सारकें कांय नाशिल्ल्यान खाडकेक पेन लावन बसताले. आमी ताचे कुशीन ताका पेन धोंगसून भानार हाडटकच 'नेमेची येतो मग पावसाळा कातर वेळी स्मृती गंध आठवणीचा मग होई दुसरं पायवाट घन मनात दाटता', अशें कितें तरी पुटपुट्टालो. आमकां हातुंतलें उतर लेगीत कळऽ नाशिल्लें. पूण बापायन पसऱ्यार मोडाव काडूंक बसोंव नाशिल्लो जाल्यार हो मराठी साहित्यांत बोरकाराच्या (हो बाकीबाब), रामाण्याच्या (हो कवी) तोडीची भर घालतलो आशिल्लो अशें आमकां सदांच दिसं. कवी मनांचो मनीस पावसा दिसांनी आनीक हळवो जाता अशें म्हाका ताणे च्यांत फाती बिस्कुत बुडयतना सांगिल्लें अशी याद जाता. तेच वर्सा ताचो 'तुंबलेल्या कविता' हो कवितांचो झेलो उजवाडाक आयिल्लो. तातुंतल्यो कविता वाचून हांव कवी मनाचो नासून लेगीत हळवों जाल्लों.

पावसान आमचे सिने सृष्टीचेर उपकार केल्या तितले आमचो देश कृषी प्रधान आसून लेगीत शेतकार भावांचेर करुं ना. ते उपकार

ह्या जल्मांत तरी सिने निर्मात्यांक फेडपाक जांवचें ना. श्री ४२० हे सिनेमांतलें 'प्यार हुआ इकरार हुआ' धरुन मंजील सिनेमांतलें 'रिमझीम गिरे सावन' मेरेन जीं जीं पदां नायक आनी नायिकेन पावसांत भिजून गायल्यांत तितलींय पदां अव्वंवर जाल्यां अशें म्हणपाक हरकत ना. हांवे हे दोन पदांचींच देख दिल्या कारण हे दोन पदांनीच म्हाका सामको पिसो केल्लो. हे दोन पदांत हांव म्हजे भावी अर्धांगिनीचीं सपनां पळयतालों अशें तुमकां सांगल्यार तुमी म्हाका पिश्यांत काडटले हें हांव जाणा. जेन्ना 'मैं न रहुंगी तुम न रहोगे फिर भी रहेगी निशानियां' अशी सत्री हातांत धरिल्ली आनी भिजून चिप्प जाल्ली नर्गीस म्हणटा तें पळोवन म्हज्या आंगार कांटो उबो रावतालो. आतां हें बरयतनाय कांटो उबो रावला. जिणेंत नर्गीस काय आयली ना पूण निशानियाँ (मेजून तीन नग) आयलीं. मुंबयच्या पावसाचें चित्रीकरण जशें 'बासू दा'न केलां तशें कोणाकूच करपाक जमलें ना. फॉर धॅट मॅटर मुंबय शार 'बासू दा'न आपल्या सिनेमांनी दाखयलां ताका तोड ना. 'रिमझीम गिरे सावन' हांवे मौशमीक लागून कितले फावटीं पळयलां हाचो हिशोब म्हजे कडेन ना. जितले फावटी मौशमीन आपले भिजिल्ले केंस आपल्या दाव्या हातान फाटल्यान काडल्या तितले फावटीं म्हजो पुनर्जल्म जाला आनी पुनर्जल्म तोच सीन पळोवपा खातीर जाला अशें म्हजें ठाम मत. फाल्यां कोणेय म्हाका विचारलें म्हजे जिणेंतलो याद उरपा सारको खीण खंयचो जाल्यार हांव मात लेगीत चिंती नासतना सांगन मौशमी वांगडा पावसांत नरीमन पोंयट ते चर्चगेट हांगा घालयल्ले खीण. पड्ड्यार मागीर तिचे वांगडा अमिताभ आसूं.

शाळेंत आमकां पावसाळा, पाऊस पडला नाहीं तर असल्या विशयांचेर निबंध बरोवंचे पडटाले. निबंध बरयतना लेगीत आमचेर सिनेमांतल्या पदांचो प्रभाव जाणवतालो. दत्तान एकदां बरयल्लें 'पाऊस हा बिन भरवश्याचा मौसम आहे. 'हमजोली' ह्या सिनेमांत, जितेंद्र आनी लीना जार्दीनांत फिरायला गेल्या असता पाऊसानी अचानक घालून घेतले. जितेंद्र आनी लीनाने मग बैल गाडी खालती आडोसा घेतला. लीना जार्दीन मध्ये खडपी खेकडा बघून घाबरली. जार्दीन मध्ये हा खेकडा कसा आला हे मला पण समजले नाही. आमच्या गांवात पावसात गडगडाट झाल्यावर व्हाळावर चांगले साव्या पाण्याचे खेकडे मिळटात. जितेंद्राला पावसात प्यार का मौसम आल्याचा भास जाल्याने तो गाऊ लागतो. पावसात सगळ्यांचीच अशीच गत होते. गाणे पावसात रंगात आले असता अचानक बैलगाडी वाला गाडी घेऊन जातो. मग पुढे काय मज्जा होते ते पड्ड्यावरच पहावे. असा पाऊस मला पुश्कळ आवडतो.'

आमचे शिक्षण पद्धतीन शिकोवपी भुरग्यांच्या मानसीक द्रिश्टीकोणांतल्या केन्नाच विचार करी नात. ते परंपरेक धरुन पाटील गुरुजीनूय तेन्ना केलो ना. सोड. दत्ताक फावो तसो मॉरल सपोर्ट मेळिल्लो जाल्यार दत्ता आज गोंयचो सचीन भौमीक जावपाचो (सचीन भौमीक= आमच्या वेळा वयलो फाकीवंत स्क्रीन प्ले रायटर.) आसू.

पावस म्हणल्या बराबर आमकां पावसा उपरांत चारुय दिकांनी भरिलो मातयेचो परमळ पयलीं याद जाता. हो मातयेचो परमळ, कोळश्यार भाजिल्ल्या सुक्या बांगड्याचो ताचेर खोबरेल तेल सोडटकच येता तो परमळ जर कोणाक सहन जायना आसत जाल्यार तांचो मनीस कुळांत जल्म घेवन फुकट. बाबुली भट आयिल्ले कडेन आईन सुको बांगडो कोळश्यार उडयल्लो आसल्यार बाबुली भट, 'फुलाला सुगंध मातीचा आनी सुक्या बांगड्याला सुगंध कोळश्याचा' अशें म्हणत ह्या परमळाची तुस्त करता. म्हज्या म्हायती प्रमाण तरी बाबुली भट मत्स्य अवतारा वाटेक अजून तरी वचूना. तर, असो हो परमळ. 'पहिला पाऊस पडला की मातीचा गंध आपल्याला धुंद करुन जातो, सुखावून जातो. कुठल्याही अत्तराच्या कुपीत नसलेला हा सुगंध कसा तयार होतो बरें' असो प्रस्न एकदां रेखा भुजंगराव हुबळीकरान म्हाका विचारिल्ली याद जाता.

''खरच तू शेतकऱ्यांची पोर शोभते ग बाई. ही निसर्गाची किमया असं म्हणून आम्ही सोडून दिलं तर बरं होईल. प्रत्येक गोष्टीच्या मुळाशी जाण्याची गरज नाही. त्या पेक्षा आपण हा सुगंध फुफुसांत भरून घेऊया.''

अशें म्हणून हांवे दोनीय दोळे बंद करुन तो परमळ दोनीय फुफुसानीं भरुन घेतलो.

'नेमेची येतो मग पावसाळा' जरीय आमी म्हणलें तरीय हालीं 'ग्लोबल वॉर्मींग', 'क्लायमेट चेंज' असल्या कारणांक लागून तो नेमेची येवपाचो बंद जाला. तो येता पुणून केन्ना येतलो, कितलो येतलो, कसो येतलो हें सांगप आज कठीण जालां. हें काम पयलें सोपें आशिल्लें अशेंय न्हय. हवामान खातें म्हणून आल्तीन्हार आसा ताचें हें काम. तांकां तांचेंच काम जड गेल्ल्यान तें अदमासान कितें सांगपाचे आसा तें रेडव्या वयल्यान शेतकामती भावांक आनी गोंयचे देगेर नुस्तें पागपी भावांक सांगता. ते हाका कितलो वालोर दितात तें म्हाका खबर ना. आमच्या तेंपार मनरिजवणीचीं साधना नाशिल्ले कारणान हांव तो हवामान खात्याचो अदमास आनी ताणी दिल्ली शिटकावणी बी आयकतालों. आज टिव्हीचेर प्रायम टायम बातम्यो मनरिजवणे खातीर आशिल्ले कारणान आतां हवामान खात्याचो अदमास आयकप जायना. ग्लोबल वॉर्मींग, क्लायमेट चेंज हें नेमकें प्रकरण कितें तें म्हाका खबर ना. पुणून हालींसराक आमचो पंखो चारांचेर दवरुन लेगीत आदीं दितालो तसो वारो दिना. हे कारणाक लागून हालीं हीय म्हजे बराबर शेनरेर न्हिदता, तुमचे म्हायती खातीर. पयलीं हांवूच म्हजो फाटीचो कणो सरळ उरचो म्हूण न्हिदतालों. हिका आमच्या फेनाचो देफेत सो दिसलो. तिणे गफूर चाचाक सांगलें.

''गफूर चाचा निचे सोने पर भी नींद नहीं आती.''

''हां बेटी यह बिमारी खतरनाक है''- गफूर चाचा.

गफूर चाचाक हिणे कितेंय सांगल्यार तो ताचो संबंद हिचे नेरवां कडेन लायता. फाटीं हिणे ताका मिक्सरार वांटप बारीक जायना म्हणून सांगिल्ले. तेन्नाय ताणे 'हां बेटी यह बिमारी खतरनाक है' म्हणिल्लें. मागीर हांवे ताका ही मिक्सरा विशीं सांगता अशें सांगतकच ताणे राजकारणी करतात तशें 'मेरा मतलब वह नहीं था' अशे म्हणून सारवा सारव केली. सोड.

गोंयांत पावस सावथ व्हॅस्ट मॉन्सून हाडटा हें आमकां शाळेंत वतकच कळटा. ताचे आदीं पावसाचीं जोतीं, कापेद, सत्री बी मेळटकच आमचें

काम जातालें. हें सगलें जाका लागून घरांत येता तो खंयच्यान येता हाचें आमकां व्हडलें पडिल्लें नासतालें. आमगेलीं भुरगीं शाळेंत पावतकच तांकां सावथ व्हेस्ट मान्सुनाचो सोद लागलो. आमगेल्या मदल्यान ही विज्ञान शाखेची विध्यार्थी आशिल्ले कारणान सावथ व्हेस्ट मान्सून म्हणल्यार नेमेकें कितें असो प्रस्न हिका विचारलो.

''बारीक लक्ष मारल्यार पावसाचीं कुपां विठ्ठलाचे देवळा कडल्यान अशींऽऽ आमचे घरा वयल्यान वतात हें तुका कळटलें. विठ्ठलाचें देवूळ सावथ व्हेस्टाक आसा. हें सावथ हें व्हेस्ट म्हणून सावथ व्हेस्ट.'' हिणे जाप दिली.

हांव तेन्नाच वाखर घेवन परती दाडी करतालों. ही जाप आयकून तो वाखर ओंठा कडल्यान नोर्थ ईस्ट नाका कडेन लागलो. सोड.

पयलीं दिसाळ्यांत 'पाऊस गोव्यात धडकला. जोरदार सरीसह मुसळधार पाऊस' अशे माथाळे वाचपाक मेळटाले. आनी आमकां गोयांत पावसाचें आगमन जालें म्हणून कळटालें. आज ती परिस्थिती उरूंक ना. आज पावसाक गोंयां पावपाक फेवरेबल कण्डीशन जाय पडटात. केन्ना केन्ना  ताचें आगमन अपर्ह्याय कारणांक लागून उसरां जाता. हाका लागून आमच्यो जून म्हयन्यांत बसींत, ऑफिसांत शेणपाच्यो सत्र्यो शेणपाक जुलै बी उजवाडचो पडटा. "El Nino can be behind monsoon delay" असले माथाळे आमकां हालींसराक वाचपाक मेळटात. असले माथाळे आमी आमचे भुरगेपणांत वाचले ना. एल निनो म्हणजे कितें तें म्हाका खबर आसा असो अर्थ कोणे काडचो न्हय. हांव तें वाचतां आनी दिसाळें कुशीक दवरतां. लॉज शिंवपाक आनीक पंद्रा दीस भंय ना अशें हांव ताचें गणीत मांडटां. हवामान खातें जसो पावस केन्ना, कितलो पडटलो हाचो अदमास करता तशेंच तो नॉर्मल पडटलो काय अबनोर्मल हेंय सांगपाचें काम करता. तो नोर्मल पडलो कितें आनी पडलो ना कितें तांकां वेळार पगार पडटा. आसूं आमची नाका थंय नदर नाका. हेय वर्सा (२०२१) पावस नोर्मल पडटलो अशें कानार पडलां. "After two years the South West monsoon in 2021 is likely to be normal खंय' हिणे दिसाळ्या वयलो माथाळो वाचलो आनी दिसाळ्याचें पान नुस्तें उजरावपाक घेतलें. आमकां गोंयकारांक पावस नोर्मल पडलो कितें ना पडलो कितें आमच्या नळाक उदक वर्स भर आसल्यार पुरो. पिवपाक, न्हावपाक, संडासाची साखळी ओडपाक, पोरसूं शिपपाक, गाडी आयतारा धुवपाक उदक आसल्यार आमी खूश हाचो उल्लेख हांवे वयर केलाच.

''हाचो अर्थ there will be no restricted water supply to Panaji, Taleigao, Santacruz and St. Andre constituencies including all defence establishments and Goa Medical College सारकें मूं?'' ही नुस्त्याचें उदक झाडांक घालपाक उठली.

''हय तशें तुंवे म्हणू येता. नुस्त्याचें उदक झाडांक घालतना सांबाळून. गरादीर रकोंव नाका मुयो येतात''- हांवे म्हणलें आनी दिसाळ्याचीं उरिल्लीं पाना वाचपाक घेतलीं.

''गफूर चाचा गफूर चाचा इस साल बारीश ठीक होगी डरने का नाय''. हिणे गफूर चाचाक आड्डून बातमी दिली.

''हां बेटी यह बिमारी खतरनाक है. दाऊद इसे टाका मार''.

इसे म्हणजे कार्बोरेटराक तुमी आंग काडपाचें गरज ना.

पावस पडटकच धर्तरी पांचवो चार शालू न्हेसता अशी वर्णना वाचपाक बरीं दिसतात ना न्हय. पूण गोंयां धर्तरी पांचवो शालू न्हेसता थंय आसा हांगा विजेक पिडा मारपाक लागता. पावसाचे आगमना आदीं दोन तीन म्हयने 'मान्सूनपूर्व कामें हाती घेण्या साठी वीज पुरवठा खंडीत' आसता तो मान्सून आयलो तरी मूळ पदार येना. मे म्हयन्यांत मुंबयकार येतात तशे पावस आयल्या बराबर जळारां येतात. दोगांय भितर व्हडलो फरक कांय ना दोगूय जाण रगत पितात. तातूंत वीज नाशिल्ल्यान सगले कडेन आनंदी आनंद गडे आसता. बाकीच्या म्हयन्यांनी लेगीत घरांतले अन्नपुर्णेन मिक्सरार वांटपाक घेवपाक वीज कशी वता हें गणीत म्हाका अजून सुटूंक ना. पावसाच्या दिसांनी तर विचारुंकच नाका.

''लायट गेली.''

''तें कळ्ळें म्हाका. फुडें?''

''आतां कितें करुं?''

''फुटी कडी करपाक मिक्सर लागना न्ही?''

''तुमी केन्ना सारकें उलयल्यात? मिक्सरांत म्हजें वांटप आसा. एकदां गुर्ऽ केलें आनी लायट गेली''.

''लायट आयली जाल्यार गुरऽऽऽर्ऽ कर नाजाल्यार फुटी कडी आसाच. पापडाची कवळी काड पयल्या पावसाकूच उश्टावया.''

अशें साधारण भाशण आमचे घरांत लायट वतकच जाता. लायट वचून मिक्सरांत गुर्ऽ करपाक मेळ्ळें ना जाल्यार आमगेर फुटी कडी थारिल्ली आसाच. कासव छाप, ऑडॉमॉस, गूडनायट बी हांचे आगमन जांवचे आदीं जळारांक धांवडांवपा खातीर आमी घरांत कोडुलिंबाची धुंवरी घालताले आनी मागीर जनेलां उकतीं करताले. आतां आमी परतें करतात. सांजचींच जनेलां बंद करतात आनी रातचें सगल्यां कोनश्यांनी कवदे कशे कासव छाप अगरबत्ती पेटयतात. न्हिदतना जें आंग उकतें उरता ताका ऑडॉमॉस सारयतात. पावसा दिसांनीं ऑडोमोस सारोवपाचें प्रमाण मातशें वाडटा इतलेंच. सोड.

वयर म्हणलां तशें आतां 'क्लायमेट चेंज', 'ग्लॉबल वॉर्मींग' आनी खुबशे कारणांक लागून पावसाचें प्रमाण कमी जालां. तेन्ना पावस रकत आसतालो. हाका लागून त्या पावसा खातीर व्हड सत्र्यो, कांबळी बी जाय पडटाल्यो. आतां पावसा खातीर म्हणून घेतिल्ल्यो सत्र्यो आमी वतांत कात काळी पडची न्हय म्हूण वापरतात. फाटीं आमी सोबीत, नाजूक फॉल्डींग सत्र्यो घेतिल्ल्यो. पावसांत वापरप जाल्यो ना म्हणटकच त्यो वाड्यार कोणाक तरी अहेर म्हणून दिल्यो. बापायन सत्र्यो हाडटकच आई तांचेर नांव घालताली. म्हजे सत्रेर पांचव्या सुतान 'बाबा- फोंडवें रायबंदर गोवा' अशें ती नांव घालताली. पिनकोड कित्याक सोडटाली तें म्हाका खबर ना. बापूय म्हजे खातीर लाकडाचे मुठीची व्हडली सत्री घेतालो. म्हाका ती येदी व्हडली सत्री घेवन शाळेंत वचपाक लज दिसताली. कारण बाकिचीं सगलीं जाणा रंगीत मुठीची झेब्रा छाप सत्र्यो घेवन येतालीं. हांव म्हजें अडंबर घेवन येतकच दत्तान बी 'बाबालें तरंग आयलें' अशें म्हणून म्हाका चाळोवप. कॉलेजींत

पावतकच हांवे तरंग घेवन वचपाचें बंद केलें पूण आईन म्हजे सत्रेर नांव आनी नामो कोरपाचें बंद केलें ना. आसूं.

''कोणे कोणाचे सत्रेन येंवचें तें आदींच थारता
म्हणून पावस पसून ताका जाय तेन्ना जाय थंय पडटा...''

अशें एका कवीन बरयलां तें ताणे म्हाका पळोवनूच बरयलां जांवये. ज्या दिसा हांवे मोठ्या आशेन कॉलेजींत सत्री व्हेली त्या दिसा पापड सुकोवपा सारकें वत पडलेंच समजा. आमचें कॉलेज आल्तिन्ह्यार. हांवे सत्री हाडल्या काय ना तें पळोवन आल्तिन्ह्या वयलें हवामान खातें हवामानाचें अदमास सांगतालें असो म्हाका मागीर दुबाव मारपाक लागलो. मागीर हांव ते सत्रेचो उपेग बसींत सिटाचें आरक्षण करपा खातीर करतालो. थंयूय आरक्षणाचो लाव कोणाक मेळटालो तें हांगा सांगून कांय अर्थ ना. तात्पर्य ते सत्रेचो उपेग जावपाक जाय आशिल्लो तसो केन्नाच जालो ना. लग्ना उपरांत कवळ्या अभिशेकाक वतना हिका हांवे सत्रेंत घेतली. सत्री फुलयली तेन्ना आज म्हज्या हातांत तरंग आसूं जाय आशिल्लें अशें ओगीच दिसलें. नवेंच जोडपें आशिल्ल्यान त्या धर्माक अनुसरून ही म्हाका 'तुमी भिजऽ ना मूं' 'तुमी भिजऽ ना मूं' अशें मर्दी मर्दी विचारताली. हांवूय बी 'पावस पडटा म्हणटकच भिजतलोच न्ही' अशी प्रस्नाक सोबऽ सारकी जाप दितालों. गुलजार एके कडेन 'एक अकेली छत्री में जब आधे आधे भीग रहे थे आधे सुखे आधे गिले सुखा तो मै ले आई थी'. हांगा हांव आधा न्ही पुरा भिजलों आनी सुखा कितें तें सगलें ही घेवन आयली.

खंयचोय रुतु म्हणटकच त्या रुतुक धरुन दोळ्यां सामकार कांय चित्रां उबी रावतात. पावस म्हणल्या बराबर म्हाका दोळ्यां सामकार भायर घोग्यांनी पावस पडटा, चारुय वटेनी पोनेळांतल्यान धो धो करुन पावळ्यो रकता आनी हांव सालांत झोपाळ्यार हुनहुनीत च्या चो व्हडलो ग्लास घेवन बसलां. तोंडांत गरम गरम, कुरकुरीत कांद्यांचीं भजीं उडयतां. तीं भजीं इतली गरम की तोंडांतल्यान वाफ भायर सरता. मागीर हांव आलें गंजण युक्त च्या चो घोंट मारतां. तो च्या म्हाका अमृत कसो लागता. जनेलार म्हजो रेडयो आसा आनी ताचेर 'दिल की गिरह खोल दो चुप ना बैठो...' हें पद लागलां. म्हज्या दोळ्यां सामकार नरगीस आनी फिरोझ खान डांस करतात तो सीन उबो रावता. हें सगलें काल्पनीक हें हांवे तुमकां सांगपाची गरज ना. असो पावस पडटा तेन्ना हांव सवळ्यां बडी घेवन जंय जंय पोंवता थंय थंय नळे धोंगशीत भोंवतां आनी आई डोरकीपर कशी बॅट्री दिवो घालता. आसूं.

पावसा कडेन संबंदीत बऱ्योच यादी आसूंक जाय असो कायदो ना. ग्रेस'आन 'ती गेली तेव्हा रिमझीम पाऊस निनादत होता' अशें म्हणलां. म्हजी सत्री भर पावसांत रायबंदरा पाट्यार म्हांबऱ्याल्या फार्मासी सामकार परती जाली तेन्ना म्हांबऱ्याल्या फार्मासी कडेन ४०३००६ ह्या पिनकोडार रावपी सगल्यो अप्सरा थंय बसीक उब्यो राविल्ल्यो. तातूंत भर म्हणून म्हांबरो नाबी वयल्यान 'बाबा पॅराशूट घेवन खंय चल्लो रे?' सगल्यांक आयकूंक येता तसो आड्डलो. म्हणजे जांचे लक्ष नाशिल्लें तांचेंय लक्ष म्हजेर गेलें आनी हांव भर पावसांत पॅराशूट घेवन उबों आनी पॅराशूटाच्यो सरयो पूर्व, पच्छिम, उत्तर, दक्षीण, ईशान्य, वायव्य, आग्नेय आनी नैऋत्य हे दिकांतल्यान पॅराशूटांतल्यान भायर आयिल्ल्यो. पावस म्हणलो की ही याद म्हाका जाता आनी भर पावसांत म्हाका घाम फुट्टा.

पावस येतना आपल्या बराबर कांय दुयेंसां घेवन येता तांचे कडेन आमी आडनदर करुं नजो.

''पावसाळा हा ऋतु सगळ्यांना हवा हवा सा वाटतो पण पाऊस आला की काय होतं सांगा बरं मुलांनो?''

पाटील गुरुजीन आमकां एकदां विचारलें.

''पावसाळ्यांत गाई म्हशी गरोदर राहतात आनी वासरांना जन्म देतात''- दत्तान जाप दिली.

''बाळांनो पाऊस आला की आजारपण आलेंच. पाण्या मुळे होणाऱ्या आजारा बरोबरच सर्दी, खोकला, पडसं ह्या सारके आजार जडतात.''

''आम्हाला पावसांत मोडशी पडते आनी बरी पण होते''- दत्ता.

''आणखी काय? बाकिच्या आजाराशी आमचं देणं घेणं नाही''- हांव.

आज जशें अडेंचीं नार्तीं, अडेचें हाशें बी आमकां पळोवपाक आनी अणभवपाक मेळटा तसो आमचे नशिबान आतां अडेचो पावसूय रावपाक आयला. ही निर्मिती आमची आसल्या कारणान हो पावस आमकां जाय तेन्ना, आमकां जाय थंय पडटा. पुणून 'त्या' पावसाक आमच्या ह्या अडेच्या पावसाची सर ना. 'तो' पावस अंदरता, मांडटा, शेनता, शिडशिडटा, थेंबता, गळटा, रकता, दडकांनी पावस, शिरंधांरानी पावस, उटंगराचो पावस.... पावसूच पावस!

हे कुपांनी कालीदासा कडल्यान मेघदूत बरोवन घेतलें जें आजूय आमचे मनाक भूल घालता म्हणुनूच हरिवंशराय बच्चन म्हणटा,

'मेघ' जिस जिस काल पढता
मैं स्वयं बन मेघ जाता'

संपर्क : 9850530756



*(पान २१ वयल्यान)*

'टफी' खंयच्या खंय धांवलो. थंड वारे सूंऽऽ सूंऽऽ करुन व्हांवपाक लागले. ताच्या वांगडा झाडा खुदपाक लागली. टफीक सोदपाक अनल धांवलो. तो ताज्या नातवाक सामको आवडटालो. 'टफी', 'टफी'ऽऽ तो उलो मारतालो. आरिकाक कुडींतल्यान आयकुंक येतालें. परत एक आकांताचो गडगड जालो कान फुटपासारको आनी 'घो घो' पावस पडपाक लागलो. अनलान टफीक धल्लो आनी तो भिजत घरा येवपाक लागलो. आरिका वारांदार आयलें. अनल गेटी लागसार पावपाक परत एकदा येदोळच्या परसूय व्हडलो गडगड मारलो आनी मळबांतल्यान झगझगीत जोगलाचो लोळ येवन अनलाचेर आदळ्ळो. आरिका थंयच जीव वाचा ना जावन पडलें. त्या खिणाक सावन पावस आरिकाचो खर दुस्मान जालो.

संपर्क: ९८२२१८३९५४



# पोक्त परिपक्व - शीला-लेख

शीला कोळंबकार ही म्हजी एक आवडीची लेखिका. कथाकार आनी निबंदकार. 'ओली सांज' ह्या कथा झेल्यान आनी 'भूंयचांफीं' ह्या व्यक्तीचित्रणांच्या पुस्तकान कोंकणी साहित्यमळार अढळ असो फुलारो हाडलो. उप्रांत आयिल्ल्या तांच्या 'गॅरं' आनी 'कथाशील' ह्या कथासंग्रहांनी कोंकणीचे कथादालन समृद्ध केलें. त्या भायर 'तेजस आनी ओजस', 'पंकज', आनी 'कावळ्या काक्या रे!' अशें भुरग्यांचें साहित्यय तांणी बरयलां.

कोंकणींत व्यक्तिचित्रण सगळ्यांत चड प्रमाणांत शीलाबायचें आसूंक जाय. 'भूंयचांफीं' ह्या तांच्या व्यक्तीचित्रणात्मक पुस्तकाक १९९७ वर्साचो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फाव जाल्लो.

'शीलालेख' पुस्तकांत २४ ललीत निबंद आनी लेख आसात. सुमार अर्द्या वयर व्यक्तीचित्रां. व्यक्तीचित्रां हीं काल्पनीक आनी खऱ्या मनशांचीं आसतात. हातूंतलीं 'सावित्री' हें व्यक्तीचित्रण सोडल्यार बाकीचीं सगळीं व्यक्ती चित्रणां भोंवतणच्या मनशांचीं आसात. घरच्यांचेरूय आसात. लेखिकेचो आजो म्हळ्यार दादा आनी बापूय बाबा, आत्या, सासुमांय 'बा', भयण शशी हांचे वयलीं व्यक्तिचित्रां खुबूच सोबीत. काळजांत मोग आसल्या बगर लेखक इतलीं ओडलायणी व्यक्तिचित्रां पितारूं नजो.

ह्या पुस्तकांत कोंकणी साहित्यीक दोतोर सुखठणकार, माधव बोरकार हांचेर दरेकी २ व्यक्तिचित्रणात्मक लेख आसात. रवीन्द्रबाब, रमेश वेळुस्कार आनी आनंद वर्टी हांचेर लेख आसात. नाडकर्णी सर हें लेखिकेचें प्रेरणा स्थान. तांचेर लेख आसा.

कितेंच दाखयलिपय करिनासतना स्पश्ट बरोवप हें शीलाबायचें खाशेलपण. हाचो प्रत्यय ह्या पुस्तकांत पावला कणकणी येता. तें मागीर 'आमचो दादा' आसूं, 'रवीन बाब' वा, दोतोर जावं. शीलाबायन सदचे भशेन मेकळेपणान सगळें हात सोडून बरयलां.

शीलाबाय बोल्ड बरयता आनी उलयता अशें चडशे कोंकणी लेखक म्हणटात. मेकळेपणान तकलेचेर चेंपण घेनासतना खरें उलोवप आनी बरोवप हातूंत कसलें धाडस तें म्हाका कळना. लेखिकेक कापाज्दाद आसा हें मात खरें. देखीक 'आमचो दादा' ह्या आपल्या आज्याचेर बरयतनां शीला बाय बरयता,

दादाक आंगोस्तरांय आशिल्लीं. अर्थांत तेन्ना तें प्रतिश्टेचें लक्षण आशिल्लें. तांची भुरगींय आशिल्लीं. तीं केन्नाय आमगेर येतालीं. इतलेंच न्हय तर आमगेर कोणाचेंय लग्न आसत जाल्यार पयलें आमंत्रण तांकां वतालें. यजमान्नीची, व्हंकलेची पयली व्हंटी भरपाचो तिगेलो मान इतलें स्पश्ट फकत शीलाबायच बरोवंक शकता. असोच अणभव आमकां रवीनबाब, दोतोर, रमेश भगवन्त वेळुस्कार ह्या व्यक्तीचित्रणांनी मेळटा. निवळ स्पश्ट अभिव्यक्ती लेखकाची साहित्यकृती तेजीश्ट करता.

आशीतमाना हें किर्यादाचे- घरकाम करपी चलयेची काणी सामकी काळीज हालोवन उडयता. खिणयाळ्या सुखाखातीर आपलें सर्वस्व घालोवन बसपी एके चलयेची ही काणी. अशे प्रकार तेन्ना खूप कडेन घडटाले. सावित्री हें सावित्री रामन ह्या चित्रीकेच्या जिणेचेर बरयिल्लें व्यक्ती चित्रण ओडलायणें जालां. सावित्रीचे जिणेंतले प्रसंग वाचप्यांच्या दोळ्यांमुखार हाडपाक लेखिका येसस्वी थरल्या.

पुस्तकाच्या दुसऱ्या भागांत वनस्पत आनी जिवावळ हांचेर आदारीत ८ लेख आसात. लेखिकेक झाडां, सैम, पावस, शेवणीं नियाळपाक आवडटा. तांचें वर्णन करपाची तिची शैली खास. मुळांत शीलाबायचें बरप सादे शैलींत. खंयच लांबचे लांब वाक्यां नात. स्पश्ट.

हें पुराय पुस्तक वाचतगीर एक वेगळेच तरेची खोस भोगता. सुंदर, सरळ भाशा, वाचप्यांच्या काळजाक हात घालपाची लेखिकेची कळाशी तोखणायेची. एकदां पुस्तक हातांत घेतगीर वाचून पुराय जाले शिवाय सकयल दवरूंक दिसना आनी हेंच ह्या पुस्तकाचें येस आसा अशें म्हाका दिसता.

ह्या पुस्तकाचें कवर, ले-आवट, मांडावळ, अक्षरांचो आकार सगळेंच सुंदर. लेखिकेन हें पुस्तक आपल्या चारुय भयणींक आनी भावोजींक ओंपलां. ह्या पुस्तकाचें मुखपृष्ट प्रसाद नायक हांचें तर हें पुस्तक उजवाडाक हाडलां श्री रामेश्वर प्रकाशन, करंझाळे-गोंय हांणी.

मुदलांत साहित्यकाराचो पिंड जेन्ना कथाकार म्हूण घडटा आनी घडिल्लो आसता, आनी तो लेख, निबंदा सारके हेर साहित्यप्रकार केळयता तेन्ना कथाकाराची शैली तातूंक बिंबित जावपाची शक्यताय उरता. पूण हे लेखिकेन हें तारतम्य आनी संयम बाळगिला. ताकाच लागून वजनदार आनी भारदस्त आंगलोटाचे लेख, निबंद सादर करूंक तांकां यश आयलां.

**शीला- लेख**

शीला कोळंबकार

श्री रामेश्वर प्रकाशन

पानां:२२२

मोल: २०० रुपया

**सखाराम शेणवी बोरकार**

संपर्क: ९९२३३०६७५१



# कविता

## पावस

**माधव बोरकार**

झडिल्लो पावस कितलो तरी
भिजली काळजांत खोल माती
ओथंबिल्ले पाना पानांत थेंबे
सतारीचेर संथ लयींत गती.

पाणयाक ताल पांयजणांचो
रावता घोगेता काळजांत गाज
सांडटा पारजा परी; तसो
भावना मनांत वाऱ्याचो नाद.

बुडिल्लो धुक्यांत दोंगर गाळी
झडिल्लो पावस मोरपाखी
दप्तरेता आस आटिल्ली
कोंबेल्ल्या सुखा सारखी

ताळगांव २६–७–१६

संपर्क: ९४२०२२२८७६

## ह्या म्हज्या अनंताच्या अनंततायेंत

**आर. रामनाथ**

तूं
काळखय
जोगलय
गडगडय
आनी
दडकांनी झडय तूं तुका पुराय ...

तूं
शिणगारय म्हाका नखशिखान्त
तुज्या प्रलयांकीत हुंवारान ...
तुज्या अती आतंकीत सांवारान ...

सासणाचो जावंदी म्हाका नानपयत
ह्या म्हज्या अनंताच्या अनंततायेंत
तुज्या अंतासयत ...

संपर्क: ९८५०४५८७६३



## ।। पावस ।।

**विनायक विष्णू खेडेकर**

मी जाणे
तो येयनसतना ऱ्हात्तांय
त्यास खबर हाय
युला तरी, झडेनसतना व्हत्तांय
बांद, बांदल्या फुगत्तांय
बांवीं तळीं भरत्तांय
आश्टे, व्होणक्यां सांठत्तांय
दाश्विणी, कणेरां कळेत्तांय
पोरसां, मळे फुलत्तांय
शेरे, तेरें पालेत्तांय
झिली, वाली कोमेत्तांय
माड, माडया धोलत्तांय,
आंबे, पणस फळत्तांय.
तण, करड वाडत्तांय,
कर्पिल, दांवां जगत्तांय,
म्हशी, गाया पानेत्तांय.
त्यास खबर हाय,
पडल्याबगर व्हत्तांय.
पण तो...
कदीं कदीं वेळार पावत्तांय,
हवा तितका व्हत्तांय.
दडकेर दडक खोंसळत्तांय,
योग्यांनी वोजरे यडत्तांय,
आंगणा पावळ्या गळत्तांय,
खळया, व्हाळया व्हांवत्तांय,
उसणा, तळया भरत्तांय,
आंतऱ्यां, खळ्यां उंबळत्तांय,
शेतां, भाटां धरत्तांय,
आगरां दोंगरा जिरत्तांय,
झऱ्यां, हानी मुरत्तांय,
पाटां, मागां परतत्तांय,
शेवा फोंडये पावत्तांय.
मी जाणे.
तो तॉण येवन जात्तांय,
मात्सा तरी पडव्यार्चे थांबोवित्तांय.

## तो गेल्या उपरांत

**प्रकाश नायक**

तो गेल्या उपरांत
पत्रावळ गुंथिल्लेवरी
यादिंचो एकेक मिर्ग
दोळ्यांनी दाटता

कोगळाच्या कोराची
एकेक काळी मुंडली
दसणीच्या परागरेणुवरी
तांबूस तांबूस जाता

मुंडले कुशिनचें
एकेक धवें कूप
शेरवडाचे कोंबरेवरी
शिरांशिरांनी जोगलायता

अफाट मळब गडगडटा
तेन्ना काळीज धडधडटा
एक भयाण निनांवी वादळ
मनांत सळसळटा

पोल्यांच्या शेतांनी मागीर
अचळय पावस देंवता
झऱ्यां वझऱ्यांचो बांद
हड्ड्यार येवन फुट्टा

यराचे भितर्येत बांदिल्लो
मल्लांचो झोड
यादिंच्या बुराकांची ओड
वावझड झडयता

शेदंव दंव जाता
ताची वाद विसरून वता
जमीन परतून एकदां
नव्यान उबी जाता

याव पेखता तशी
नवी खवळी येता
पाचव्या भुरमुट्यांवरी
नवो रोव किल्लून वेता!

संपर्क : 9423882043

## तो

मुकेश थळी

चार चार दीस मरसर ओतपी
आंग, आंगण, भोंवतण भिजोवपी
वण्टी फुगोवपी, मनमळब रंगोवपी
तो योग्यांनी पावस ....

रकपी पावस, झडपी पावस
शिडशिडपी पावस, झोडपुपी पावस
वतांत चकचकपी, मनांत शेनपी
तो उटंगारांचो पावस....

दोंगर चंवरावपी, झिली-वेली कुडकुडावपी
चैतन्य फुलोवपी, सैम-सृश्टींत सृजन पसवपी
मनां-हाडां-रगतांत आनंद शिरशिरावपी
तो इंद्रधोणूचो ओडलायणो पावस...

शेतामळ्यांत बीं, दोंगरार योडकां किल्लावपी
मागीलदारा खाल्ल्या भिकणांक रूच हाडपी
नवी उमेद पातळावपी, आशेचो आंकूर जागोवपी
तो दडकां दडकांचो पावस....

सबंद धर्तरेक तरतरी हाडपी
असल्या पावसाचें जावं नर्तन
त्या पावसाचें जावं आयज दर्शन!
तो हरंधारींचो पावस....

संपर्क : 9423056755



## वाट

परेश नरेंद्र कामत

केन्ना सावन
हांव पळेत आसां वाट
पुस्मटत
काळखांतले बिये वरी
तुजी

बियेक फुटूंदी कोंब
फुटूंदी पानां तांबशीं-पिंगशीं
आनी
पानांक पळोवंदी वाट
फुलांची रंगओली

तूं यो
दिगंत भरून
आनी कर माती ओली
वोतांत भाजलेली
कर
बियेची सुटकावाट आनी म्हजीय...

संपर्क : 9422640210



## पावस

उल्हास पै रायकार

पावस येता वता येता
येता ह्यो झडी
थेंब्या थेंब्यांत रंग भरीत
धुंद वावझडी
पानां फुलां दोळ्यांआस
दृष्टी खोशयेची
दडकेची येता तान
पाणयां शिरशिरी
पाचवें आंग गंधमंद
भूंय ही अशी
सावनीची शांत मूर्त
तृप्त व्हंकलेची
हंसध्वनी जाग आयज
छुमक छुमकशी
आसमंत स्तिमित स्तब्ध
धुंद वावझडी.

संपर्क : 7507441344



## पावसाचे हारशे

काशिनाथ शांबा लोलयेकार

मीडियाचेर गडगड तडतड करीत
सुरू जाला जो कोरोनाचो पावस
तो अजून मेरेन थांबच ना
पयली दडक दुसरी दडक तिसरी दडक...

कोरोनाचो पावस वादळी
कितले हुबले खबर ना
मोटमोठे हुंवार येवन
कितले बुडले खबर ना
हो खरोच पावस
काय हो पावसाचो आभास खबर ना

पावसाच्या येवकाराक
आमी ताळी थाळी वाजयल्ली
आमचे अकलेचे दिवे पेटयल्ले

कलियुग सोपून
करोनायुग केन्नां सुरू जालें कळ्ळेंच ना

फुटत आसात पावसाचे हारशे
कोरोनायुग सुरू जाल्यापसून
उदकाच्यो कंवच्यो जळामळा
चकचक सगल्याक भंयाच्या जोगलांचो
सेल्फ-आयसोलेशनचो रेबो जंयथंय
हो पावस सेर्त हाडटलो प्रलय

वयर मळबांत ऑक्सिजनचे सिलिंडर येवन
हे ढग खंय वयतात खबर ना
आंगार पीपीई कीट घालून
हो मोर कित्याक नाचता खबर ना
सगल्यांक लागला ऑक्सिमीटरचो भैरजोळोप
हांव पळयतां पावसाच्या उदकांतल्यान तरंगत येतात
पॅरासेटामॉल रेमिडीसिवीर
पावसाच्या पूरांत धोलतात फार्मा कंपन्यो हॉस्पिटलां
पळय
पुष्पविमानातल्यान देंवतात वासीनां

काशि म्हणटा : उदकाचे दोन थेंबे तोंडात घेवन
हांव धापतां दोळे
आनी उगडटां पाचव्याचार सैमयुगात



